

नवी जाग गोंयकारांक



# जैतवंत जांव!



# स्मिता खांडेपारकार आनी घरचीं

जाग प्रकाशनाचें

नवी जाग गोंयकारांक म्हयनाळें

वर्स ४८ : आंक ११ : जुलय २०२२

● संस्थापक संपादपी :
स. रवीन्द्र केळेकार
स. सुमंत केळेकार

● वैचारीक दायज :
स. माधवी सरदेसाय

● संपादपी :
आसावरी नायक

● अतिथी संपादपी :
सखाराम शेणवी बोरकार

● पालवी संपादपी :
कृपाली नायक, एडना वाझ

● उजवाडावपी :
जयवंत भा. सरदेसाय
२०१-बी, सालदॅल अपार्टमॅन्टस्
रुअ द साउदादिश, पाजीफोंड,
मडगांव - गोंय ४०३ ६०१.

● छापपी :
इंप्रेशन्स, बी-२, 'अक्षर आर्केड',
गोंधळी गल्ली, बेळगांव ५१० ००२

● वेव्हाराचो नामो :
जाग म्हयनाळें
बिल्डींग ३, प्लॅट ३, - SE-3
मॉडिल स्टॅटस, दोनापावल-तालिगांव मार्ग,
गोंय विद्यापिठा लागसार,
ताळगांव-गोंय ४०३ ००४.
फोन: ७४४७२६८७२० । ९७६५१८७६०६

| | |
|---|---|
| वर्सुकी पटी | : ४००/- रु. |
| विद्यार्थ्यां खातीर (फकत वर्सुकी) | : २००/- रु. |
| तीन वर्सांची पटी | : १,०००/- रु. |
| वाचप-घरां खातीर वर्सुकी पटी | : ५००/- रु. |
| जिवीत भराची वांगडी-पटी | : ४,०००/- रु. |

**Jaag Bank Details:**
Accont No. 4004002100005165
Name : JAAG MONTHLY
Bank Name: Punjab National Bank
Branch : Panaji-Goa
IFSC Code: PUNB0292300

किरकोळ आंकाचें मोल : रु. ४०/-



## मांडावळ...



भितल्लीं चित्रां : निशीत बोरकार.

संपादकीय

## एका तपस्विनीचो उगडास

'जागा'च्यो आदल्यो संपादक स. माधवी सरदेसाय हांचो ७ जुलय जल्मदीस. आयज माधवीबाय आशिल्लें जाल्यार तांकां ६० वर्सां जावपाचीं. माधवीबायक अशे वाडदीस मनोवपांत रस नासलो. तरी त्या निमतान तांची एक-दोन पुस्तकां निश्चीतच उजवाडाक येवपाचीं.

'नवी जाग गोंयकारांक' हाचो हो जुलय म्हयन्याचो आंक आमी माधवीबायक ओंपला. ह्या आंकांत आमी माधवीबायक लागशिल्ल्यान पळोवपी ज्ञानपीठकार दामोदर मावजो, साहित्यिक आनी कोशकार मुकेश थळी आनी माधवीबायची इश्टीण साहित्यिक राधा भावे हांच्या खास लेखांचो आसपाव केला.

ह्या आंकासावन आमी डॉ. सोबिता किर्तनी हांचें जराशास्त्र म्हळ्यार जाण्टे पिरायेविशींचें शास्त्र ह्या विशयाचेर आनी जाण्टेपणाच्या वेगळ्या तांसांचेर अभ्यासपुर्ण लेखांचो आसपाव करतले. अशें तरेचें लिखाण पयलेच फावट कोंकणींत येता. वाचप्यांक तें आवडटलें हाची आस्त आसा. त्या भायर आमचीं सदांची सदरां आसातूच.

म्हान कोंकणी मराठी कवी शंकर रामाणी हांच्या जल्मशती निमतान फाटलें वर्सभर कार्यावळी चलताल्यो. तांचो समारोप जून म्हयन्याच्या अखेरेक आयलो. तांच्या साहित्याचेर पुस्तकांय उजवाडाक आयलीं. वाचकांनी आनी खास करून तरणाटे पिळगेन रामाणीबाबाच्या साहित्याची वळख ह्या पुस्तकां वरवीं करून घेवची. रामाणीबाब ह्या म्हयन्याळ्यांत बरयताले. तांच्या साहित्याचेर आधारीत कांय लेख आमी वेगवेगळ्या आंकांनी फाटलें वर्सभर उजवाडायले.

'नवी जाग गोंयकारांक'च्या जून म्हयन्याच्या विनोदाक ओंपिल्ल्या आंकाक वाचप्यांकडल्यान खूप बरो प्रतिसाद मेळ्ळो. आमचीय उर्बा बरीच वाडली. फुडाराक आमी अशेच जागाचे खाशेले आंक उजवाडावपाचो यत्न करतले.

'नवी जाग गोंयकारांक' आपलें साहित्य वेळार धाडून दितात म्हण सगळ्या लेखकांचे उपकार. त्याच खातीर जाग आंक वेळार येता. आमची उर्बा वाडोवपी सगळ्या वाचप्यांचेय उपकार.

***



# माधवी नांवाचें चैतन्य

**दामोदर मावजो**

७ जुलय २०२२. माधवी साठ वर्सांचें जातलें. जातलें? जातलें आशिल्लें. फकत ५२ वर्सांची पिराय मेळ्ळूनूय ताणें कोंकणी भास आनी साहित्याच्या मळार केल्लो वावर खूबशा म्हालजाणटी पिराय मेळिल्ल्यांकडसूनय जाल्लो ना. माधवी आठ वर्सांचें आसतनाच्यान हांवें ताका पळयलां. ५२ वर्सांचें जालें तेन्नाय पळयलां. आयज दोळ्यांमुखार येता तें मात चाळिशींतलें. बशिल्लें आसल्यार दोळ्यांर वक्ल आनी मेजार प्रुफां तपासपाक घेतिल्ल्या पानांचो गठ्ठो. कमर दोडून मान मोडून वावरांत गुल्ल. मोटारींत आसूं, बशींत आसूं - हातांत पेन घेवन प्रुफां तपासपांत शेणिल्लें माधवी. वाटेर मेळ्ळें जाल्यार दोळ्यांर वक्ल नासत पूण हातांत वा खांद्याक लायिल्ले शबनम पोतयेंत चिड्डिलीं, तकली वयर काडून पळोवपी प्रुफां घेवन तुरतुरीत चलपी माधवी. कोंकणीक कोणेंय कितेंय वायट उतर दिलें वा चळवळीक अपशकून करपी कोणूय सांपडलो जाल्यार खुबळपी माधवी. माचयेर आसलें जाल्यार बोमलेच्या देंठा थावन उलोवपी माधवी. ल्हान व्हडांकडेन आपलेपणान वागून सगल्यांक आपलें मानपी, आपलें करपी दिलखुलास माधवी. ही चैतन्याची मुर्त, आठ वर्सां उलगलीं कुडीन आमचे मदल्यान गेल्यार पूण मनांत तशशी आसा. म्हज्याच न्हय. जणेकल्याच्या मनांत आसा. आनी हें बरयतनांय कितल्योशोच यादी म्हज्या मनांत दाटून आयल्यात.

म्हाका माधवी हें नांव आवडटा. ह्या माधवीक घरांतलीं सगलीं नानू म्हणटालीं. गुजराती भाशेंत नानू म्हळ्यार ल्हान - म्हणून घडये बाई - रवीन्द्रबाबाली आवय, तशें म्हणटाली जावंये. गोदुबाय आनी रवीन्द्रबाब तर नानू म्हणटालींच, पूण वाड्यावयलीं, सोयरीं आनी शंकर भांडारी, केणीबाब धरून कोंकणी चळवळींतले सगले ताका नानू म्हणटाले. हांवें मात ताका केन्नाच 'नानू' म्हूण उलो मारिल्ली म्हाका याद जायना.

माधवी ही रवीन्द्रबाबाली भाची. पूण सुर्वेक म्हाका तें रवीन्द्रबाबाली धूव कशीच दिसताली. माधवी वागतालेंय तशेंच. नगरांतच तें वाडलें. एका ज्ञाननिधीच्या सांगातांत. रवीन्द्रबाबालें उतरान उतर तें जिखून धरतालें. ताचेर विचार करतालें. आनी आपणांक भावलां तें आपणायतालें. मंगळुरांत साहित्य संमेलनांत ताणे रचिल्ले शिघ्रकवितेन चाफ्रा सयत समेस्त साहित्य रसिकांक माधवीन आपणांले कल्पकतेची आनी सर्जकतायेची झलक दाखयली. तेन्ना पयलेच खेपेक म्हाका माधवीच्या

आंगांतल्या स्वतंत्र प्रतिभेची दिका जाणवली. म्हज्यो अपेक्षा वाडल्यो. पूण माधवीन ललीत साहित्याक फाट करून भाशाशास्त्राक वेंगायलें. घडये, काळाची गरज तें वळखल्लें. कोंकणी चळवळीक फुडलीं आव्हानां पेलपाखातीर भासविज्ञानाची गरज लागतली हाची ताका सुलूस लागिल्ली जावंये. भाशाशास्त्राची अभ्यासक आनी संशोधक हे भुमिकेंत वावुरतनां आपणाली निवेदनाची भास कशी काव्यमय वा लालित्यपुर्ण जाताली आनी तेद्यावेळार प्रा. डॉ. अशोक केळकर हांणी तसली भास भाशाशास्त्रा विशीं बरयतनां उपकरना अशें सांगलें हें माधवीन बरोवन दवरलां. हाचे वयल्यान माधवीन आपणांलो कवीचो पिंड कसो दाबून उडयलो तें होलमता.

खूब भुरगेपणासावन रविन्द्रबाबाच्या सान्निध्यांत वाडिल्ल्यान कोंकणी हो माधवीचो स्वास जाल्लो. कोंकणीचे सेवेचें व्रत ताणें आपल्या मामाकडल्यान घेतलें खरें. पूण कुड्डेपणान न्हय. कोंकणी भाशेक मानाचो पाट मेळटलो जाल्यार तिची शास्त्रीय बुनयाद पकदस्त जाय हें ताका होलमल्लें. रवीन्द्रबाबाचें पुराय बरप वाचूनच माधवीन आपले जिणेची मोख थारायिल्ली. कोंकणी भास आनी साहित्यच कोंकणी समाजाक उंच माथ्यान जियेवंक दितली हे दृढ भावनेन ताणें कोंकणीचें सेवेचें व्रत आपणायलें आनी दीसरात तें व्रतनिश्ठ जावन वावुरलें.

रवीन्द्रबाबालें सपन आनी सुमंत बाबाले कश्ट हातुंतल्यान 'जाग' तयार जालो. जागान नवे लेखक तयार केले. आयचे सगले प्रस्थापीत लेखक हे जागाचो प्रॉडक्ट. रवीन्द्रबाब आसतना आनी भोव करून गेल्या उपरांत 'जाग' कशेंच बंद पडूंक फावना हे जिद्दीन माधवी वावुरलें - अखेर मेरेन.

माधवी पुर्णतावादी आसलें. कसलेंय काम आंगार घेतलें जाल्यार तें तडीक पावयसर सुस्त बसनासलें. आनी प्रत्येक काम जाता तितलें परिपुर्ण जावचें हे खातीर प्रयत्नशील आसलें. 'जाग' आंकांत शुद्धलेखनाच्यो चुको उरच्यो न्हय हे खातीर तें खूब बारिकसाणेन प्रुफां तपासतालें. जागांत बरें साहित्य उजवाडाक येवचें आनी ताची चर्चा जावची अशें ताका दिसतालें. म्हजे पुरतें सांगतलों जाल्यार कथा धाडली म्हणटकच वेळ काडून तें रोखडीच वाचतालें. आनी वाचना फुडें अभिप्राय दितालें.

'जागां'त कथा छापून येवप हो म्हजे कथेचो भोवमान अशें म्हाका दिसतालें - आजुनूय दिसता. माधवीच्या हातांत कथा पडली म्हण्टकच ती रिफाइन्ड जावनच प्रकाशीत जाताली. देखून एखाद दुसरो आडवाद सोडलो जाल्यार, म्हगेल्यो सगल्यो कथा जागारूच उजवाडाक आयल्यात. 'जाग' म्हळ्यार कोंकणीचें 'लिटल मॅगिझीन' अशें हांव सदांच म्हणटां. कारण ताच्या फाटल्यान रवीन्द्रबाबाली पुण्याय आनी म्हयनाळ्याक परिपुर्ण करपाची माधवीची जिद्द ही प्रेरणा आसा.

रवीन्द्रबाबाची देख घेवन माधवीनूय शेंकड्यांनी बरपां रचलीं. चडशीं जागाची गरज म्हूण. पूण एकान एक अभ्यासपुर्ण. माधवीक कोंकणीचो सभाव बेस बरो कळिल्लो. ताका लागून एक एक उतर आनी ताका लागपी कुसां समजून उमजून तिजून घेतालें. उतराच्या मुळाकडेन वचपाची ताची आवड म्हजे आवडीकडेन जुळटाली. कितल्याशाच फावटी आमी फोनाचेर एकामेकांकडेन भासाभास करतालीं. असो उतरांची मुळां उस्तुवपी आन्येक मनीस आसलो तो म्हळ्यार फेलीस्युबाब. ताचेयकडेन माधवीची नाळ बरी जुळटाली.

डॉ. गणेश देवी, डॉ. अशोक केळकर, डॉ. अन्विता अब्बी अशा वाचस्पतींकडेन लागशिल्ले संबंद दवरिल्ल्या माधवीन तांचेकडल्यान कितलेंशेंच शिकून घेतिल्लें. पूण ते विद्वान मात ताका बराबरीचे लेखून ताचेकडे भासाभास करताले. माधवी तांचेमुखार भोव नमळिकायेन वागतालें, उलयतालें. पूण आमकां पळयतल्यांक आयकतल्यांक तें तांचें वांगडी, सहकारी कशें दिसतालें. ताचे विद्वत्तेचो पावंडोच तसो आसलो. आजुनूय जेन्ना हांव गोंया भायर वतां तेन्ना अनेक जाण माधवीची याद काडटात.

स्वताविशीं माधवी चड उलयच नासलें. पूण गरज थंय थेंक घालतालें. शुद्धलेखन वा व्याकरणी नेम हांचेर शणै गोंयबाब वा मों. सेबास्तियांव रुदोल्फ दालगाद हांचीं मतां मानवलीं नात जाल्यार स्वतांतल्या 'नीज-उलोवप्याक' (हें ताचेंच उतर) जें पुटवता तेंच करतालें. मुखा वयल्याक दुखय नासतनां आपणांक योग्य दिसता तें पटोवन दिवप हो ताचो गूण हेरांनीं घेवपा सारको. तशे खूब गूण आसले ताचेकडेन. विद्यापिठांत शिकपी विद्यार्थ्यांच्यो अडीनडी तें समजून घेतालें. अर्थीक अडचण आसल्यार अशे तरेन मदत करतालें कीं उजव्या हातान दिलां हें दाव्या हाताक लेगीत कळचें न्हय. माधवी 'जाग' कशें चलयतालें तें ताचें ताकाच खबर. अर्थीक अडचण राजूक खबर आसतली. पूण 'जाग' अडचणींत आसा हें ताणें आमकां केन्नाच जाणोवन दिलें ना. आपलें दुख्ख दुसऱ्याक जाणोवन दिवप ना हो माधवीचो सभाव. ह्या सभावानच ताचो-आमचो घात घेतलो. माधवीचे पत्राशीकडेन ताच्या पुस्तकाच्या विमोचना समयार ताणें प्रेक्षाघरांत बशिल्ल्या जाण्टयांक आनी म्हालगड्यांक उद्देशून म्हणिल्लें - 'खरें म्हळ्यार, सकयल देंवन तुमच्या पांयांक हात लावन तुमचो आशिर्वाद घेवंक जाय आसलो. पूण म्हजी फाट दुखता जाल्ल्यान बाग घेवं नज. देखून हांव हांगासरल्यानच....' ताचें फाट दुखप आमी कोणेच गंभीरतायेन घेतलें ना. थंयच आमी फटवले. दुखप जडार पडलें तेन्ना तें वखदविर्सद करपाच्या पेल्यान पाविल्लें. एक दोन खेपेक हांव ताका मेळपाक मुंबय गेल्लों तेन्ना निर्शेणी मात लेगीत तोंडार दाखयनासतना ताणें म्हणिल्लें, सुरेशबाबां (आमोणकर) कडल्यान आनी तुजेकडल्यान प्रेरणा घेवन हांवें कॅन्सराक फुडो केला. हें उलयतालें तेन्नाय ताच्यान दूख सोसूं जायनासली. पूण तोंडावयलो हांसो तें जतनायेन सांबाळटालें. हांव म्हजेपरीन ताका हांगाच्यो थंयच्यो गजाली सांगून हांसयतालों. आनी 'थोडोवेळ तरी हांवें ताची दूख विसरायेर घाली' हे भावनेन परततालों. पूण आयज म्हज्यान सांगूंक जावचें ना - हांव ताका फटयतालों काय तें म्हाका!

१ ऑगस्टाक (२०१४) म्हाका सत्तर जाल्लीं. त्या निमतान माधवीन खादीचें जॅकिट म्हाका भेट दिलें. माधवीच्या ताटांत फुडारांत कितें वाडून दवरलां हें खबर आशिल्ल्यान माधवीची ती निमणी भेटवस्त हांवें

*(पान १३ चेर)*



# विद्वान भासतज्ञ माधवी

**मुकेश थळी**

माधवी रवीन्द्रबाबाली भाची. धुवूच कशी. हांव माधवीक पयलों मेळ्ळों तो रवीन्द्रबाबागेर गेल्लों तेन्ना. पांचवेक आशिल्लों. रवीन्द्रबाबाल्या घरा सकयल शिक्षा सदन स्कूल आसा तातूंत हांव शिकतालों. हांवें निकतीच बरोवपाक सुरवात केल्ली. हे धडपडीक दिशा मेळची म्हूण मामांनी म्हाका रवीन्द्रबाबांगेर धाडलो. थंयच माधवी आशिल्लें. ती ताची पयली भेट.

हांव प्रियोळा शिक्षा सदनांत शिकतालों. माधवी आनी भयण सविता कुंडय न्यू इंग्लीश स्कूलांत शिकतालीं. स्टीलच्या डब्यासारकीं तांचीं बॅगां आशिल्लीं.

हांव रवीन्द्रबाबाल्या घरचोच सो जाल्लों. आत्र्या पयऱ्यान हांव सांजेच्या आदेसाक थंयच आसतालों. माधवी पुस्तकां वाचूक दितालें. कितलींशींच. शणै गोंयबाबाच्या पुस्तकांचीं पारायणां तेन्ना हांवें केलीं. खूब गजाली कळनाशिल्ल्यो. खर्णवीर, संवसार बुडटेची फिलॉजॉफी बी. पूण शणै गोंयबाबाली कोंकणीची गोडसाण कोंकणीचें पिशें लायताली. माधवी कडल्यान भुरग्यांच्या काणयांच्या पुस्तकांचे पेळेच हांवें वाचूंक व्हरचे. सुटयेंत तर भरो कशीं पुस्तकां व्हरचीं. तातोन माधवीक असलीं राशींनी पुस्तकां हाडिल्लीं. खजिनोच तो. म्हाका आयतोच मेळ्ळो. कोलो पडलो उशेणांत अशी म्हजी गत जाल्ली. अधाशा भशेन हांव पुस्तकां वाचतालों. तातूंत सगळ्या भाशांतलीं पुस्तकां आसचीं. तातोली ती घरची लायब्ररी पळोवनूच हांव दिपावतालों. 'अशे आशिल्ले गांधीजी' नांवाच्यो रवीन्द्रबाबान बरयल्ल्यो पुस्तिका माधवीन म्हाका भेट म्हण दिल्यो.

उपरांत आपणालीं सगळीं पुस्तकां, 'मंथन', 'भासाभास' धरून सगळीं सुंदर अक्षरांत सय करून भेट दिल्लीं.

माधवीचें अक्षर ताच्या निरागस हांश्या भशेन, मृदू सभावा भशेन, व्यक्तिमत्वा भशेन सुंदर. थंड, शांतपणान तें बरयतालें. संपादन करतालें. सहनशीलता आकांत. सायकल, स्कूटर, गाडी ताणें केन्ना चलयलिना. सविता सगळीं वाहनां चलयता.

काणयांचीं, कथांचीं, चरित्रां, इसापनिती, हितोपदेश, पंचतंत्र, अकबर-बिरबल, श्यामची आई सगलीं पुस्तकां तातोन माधवीक पिराये प्रमाण हाडून दिल्लीं. आत्रापयऱ्यान हांव सांजवेळा रवीन्द्रबाबांगेर वतालों, तेन्ना नवें कितें बरयलां कांय तातोय विचारी, गोदूबाय विचारी आनी माधवीय विचारी. माधवी तातोक कितें कितें प्रस्न विचारीत आसतालें. हांवूय म्हाका पडिल्ल्या प्रस्नाविशीं तातोक विचारतालों. माधवीच्या, म्हज्या प्रस्नांक जापो दितना तातोक केन्नाच वाज आयलोना.

मिठाची कणी हांव! ही माधवीची कविता त्या काळांत गाजली. बरीच. तेन्ना माधवी स्कूलांत आनी हांवूय बी. वचत थंय माधवीची अपुरबाय जाताली. तोखणाय जाताली, म्हाका भितल्ल्यान माधवीचो



दुस्वास दिसचो. रोखडीच ताणें 'फूल हांव एक पोरसांतलें...' ही सणसणीत कविता बरयली, हे कवितेंतलो सिम्बॉलीझम आगळो वेगळो. पूण तातूंत फूल आनी पोरसूं हीं प्रतिकां माधवीन वापरल्यांत तीं पळेतकच म्हाका तांच्या घरा भोवतणच्या व्हडल्या पोरसाची याद अजुनूय येता. थंय माधवी सांजे खूब वेळ सारी.

कॉलेजांत आसतना जावंये, माधवी सतार शिकूंक लागले. व्हडली सतार घेवन तें केन्नाय पणजे शिकूंक वतालें. कालांतरान म्हळ्यार मडगांवां रावंक वतकच पणजे केन्नाय संगीत संमेलनाच्या कार्यावळींक कला अकादमींत बी मेळटालें. माधवीचो सतारी कडलो हो रियाझ कसो सुटलो ते कळ्ळेंना. व्यापाक लागून आसूं येता.

शणै गोंयबाब जल्मशती कार्यावळ दिवचले जाल्ली. हांव सवेक आसुये. रवीन्द्रबाबां वांगडा हांव गेलों. वांगडा माधवी, सविता, गोदूबाय, मोगबाय बी आशिल्ली. तेन्नाचे ते मातादोर टेम्पो, मरसर पावस. पर्वरी बाकीबाब चडलो. तातो आनी तो वाटभर तोपाझ ह्या मोलादीक खड्याचेर उलयत आशिल्ले. दीसभर कार्यावळ जाली. व्यासाश्रम मठांत दनपारचें जेवण आनी विसव. सकाळची कार्यावळ नगरपालिका सभाघरांत. सांजे समारोप अवर लेडी ऑफ ग्रेस हायस्कूलांत. ही कार्यावळ सुंदर जाली. माधवी आनी हांव फुडले कांय दीस ते कार्यावळी विशीं खूब दीस उलयत आशिल्लीं. येदी व्हडली कोंकणी कार्यावळ आमी पयलेच खेप पळेतालीं. कोंकणी चळवळीचें तेन्ना एक महत्वाचें पर्व आकाराक येतालें. रवीन्द्रबाबालें घर हें ताचें एक केंद्र. तातो ताचीं गियरां उडयतालो. चंद्रकांतबाब आयिल्लो, अना आयिल्लो, बाकीबाब आयिल्लो, काका ( लक्ष्मणराव सरदेसाय) आयला अशे रिपोर्ट माधवी म्हाका अर्दीमर्दीं दित आसतालें. नागेशबाब खूब खेपे येतालो. मेळटालो.

तातो कडेन खूब खूब लोक येताले. वेगवेगळ्या मळांवयले लोक. लेखक, अनुवादक, स्वातंत्र्यसैनिक, देशी विदेशी जायते... तांची सरबराय करतना माधवी तांचे कडेन संवाद सादतालें. उपरांत त्या भासाभासे विशीं तातो कडेन आनीक सविस्तर पणान विचारून चर्चा करी. गांधीवादी बिसेनजी येताले. तांचे जिणेचो निमणो वांटो रवीन्द्रबाबागेर गेलो. ते तातो वांगडा पासयेक वताले. माधवी तांचे

कडेन आनी तातो कडेन खबरी करतालें. तांकां प्रस्न विचारतालें. हांव आयकतालों.

माधवीचें चिंतनशील व्यक्तिमत्व ह्या संस्कारांनी आकाराक येतालें. तातोन माधवीक विचारांची वाट दाखयली. कोंकणीच्या सामर्थ्याचो दिश्टावो ताच्यांत घडोवन हाडलो. ताच्या व्यक्तिमत्वाक तांसां पड़त गेलीं. माधवीच्या व्यक्तिमत्वाच्या पाकळ्यांक तातोन पालक म्हूण, मेंटॉर म्हूण अवळय फुलारो हाडलो.

माधवीक आमी सगळीं नानू म्हणटालीं. नान... असा उलो तातो मारतालो. अपुरबायेन भरिल्लो. नान हो नाद सगळे घरभर घुमतालो. आयलें तातो... म्हणत माधवी येवचें. तातोच्या समग्र कोंकणी पुस्तकांचे अणकार हेर भासांनी जावचे अशेंय माधवीक दिसतालें. ते विशीं तें म्हजे कडेन सदांच उलयतालें.

माधवी कॉलेज शिकप जातकच उपरांत पुण्यांत गेलें. थंय अशोक केळकर सरा सारक्या महान भासशास्त्रज्ञाच्या मार्गदर्शना खाला शिकतना ताच्या गुणांक सोबीत तांसां पडलीं. पुण्याच्या संवसारांत पावतकच मोटो एक्स्पोजर मेळिल्ल्यान माधवीच्या व्यक्तीमत्वाक नवे आयाम आयले. माधवीचो भेस धरून बाकीचें सादेपण तशेंच आशिल्लें.

माधवी प्रपंचांत गुंतलें तरी ताची ओड ताच्या प्रियोळच्या विद्यापीठा कडेन कायम आशिल्ली. तें प्रियोळा तातोचे खबरेक येतालेंच. माधवी विद्यापीठांत कोंकणी विभागांत पावलें तेन्ना ताचे आदींच हांव थंय कोंकणी विश्वकोश विभागांत संशोधन सहाय्यक म्हूण काम करतालों. थंय हांव सुमार स वर्सां उरलों. दनपारच्या वेळार माधवी आपल्या कॅबिनांत तशें मेकळें आसतालें. ताचेकडेन हांव व्याकरण, उच्चारशास्त्र अशा विविध विशयांचेर उलोवपाक वतालों. माधवी सदां भशेनूच हांसत खेळत म्हाका भासशास्त्राचीं पुस्तकां दितालें. चर्चा करतालें. कोंकणीच्या मुद्द्यांचेर उलयतालें.

साहित्य आनी साहित्यीक हांचे विशीं मेकळेपणान आपली मतां मांडटालें. शणै गोंयबाबांच्या साहित्याचें अर्क ताणें प्राशन केल्लें.

विद्यापीठांत माधवीन चेंबरांत काम करीत बसचें. विद्यार्थीप्रिय आशिल्ल्यान विद्यार्थी आनी विद्यार्थीनींक माधवी मॅडमीचें केन्नाच चेपण दिसलेंना. माधवीय प्रोफेसराचो झेत मारिनाशिल्लें. प्रेमळपण आनी मायेस्तपण हो माधवीच्या रगतांतलो सभावगूण. विद्यापीठांतल्यान हांव आकाशवाणीचेर रुजू जालों तरी माधवीचे फोन आसताले. 'जागा'क बरय हो ताचो सदचोच आग्रो. अणकार ह्या विशयाचेर माधवीन म्हजे कडल्यान दोन लेख जागा खातीर बरोवन घेतले. त्याच विशयाचेर एम.ए. विद्यार्थ्यां खातीर लेक्चरां दिवपाकूय ताणें म्हाका आपयलो. अणकार ह्या म्हज्या लेखाच्यो झेरोक्स प्रती काडून माधवी त्या भुरग्यांक वांटालें तेंवूय हांवें पळेलें.

माधवीक पिक्चरां आवडटालीं. कमर्शियल न्हय कलात्मक, वेगवेगळ्या भासांतलीं. वेगवेगळ्या विशयांचीं. गोंयांत इफ्फी सुरु जातकच माधवी खोश्शी जालें. विद्यापीठाचो वावर सोंपतकच ताणें पणजे येवचें. तुका आवडना रे फिल्मां पळोवपाक? असो प्रस्न ताणें म्हाका करचो.

म्हाका आवडटात नाटकां, जितीं जिवीं पात्रां. नट नटयो थंयचे थंयच जें किते अभिनीत करतात तें जिवाक भिडटा. माधवीच्या प्रस्नांक

(पान १७ चेर)




दरेका घरांत आसूंक जाय

अशें पुस्तक

तांचे विशीं... म्हजेय विशीं...

एक उगडास भोंवडी

जाग प्रकाशन,

मोल फकत २५०/- रुपये

# माधवी - 'अ जेम ऑफ अ परसन'

राधा भावे



कॉलेज सुरू जावन देड - दोन म्हयने जाल्ले. तरी कोणाचकडेन म्हजी बरी वळख वा इश्टागत अशी जावंकच नाशिल्ली. एक तर म्हजो सबाव अबोल आनी संकोची. शिवाय बस मेळून घरा पावंक जाय हो हुस्को. तेन्ना आमच्या गांवात वचपी बसी कमी. एक चुकल्यार चार वरां बस ना. आनी ती आसतय म्हणून खात्री ना. ताका लागून म्हजी मोख एकूच. बस चुकूंक दिवप ना. ताका लागून वळख-पाळख, मैत्री, गजाली हातूंत म्हाका रसच नाशिल्लो. एक दीस कॉलेजीकडेन वचपी सिटी बसींत म्हाका एक चली मेळ्ळें. म्हज्याच क्लासींतलें, म्हाका ताणे विचारलें, 'तुजें नांव कितें गो?' हांवे सांगलें. ताणे म्हळें, 'सुंदर नांव.' आमी बसींतल्यान देवलीं. बरोबर चलूंक लागलीं, तेन्नाच्यान फुडें कितलींशींच वर्सां बरोबरच चलत रावलीं.

त्या चलयेचें नांव म्हाका खबर आशिल्लें. 'माधवी'. ताणें आपल्या गोड उलोवण्या-वागण्यान, म्हाका इश्टागतीच्या धाग्यांत केन्ना बांदून घेतलें कळ्ळेंच ना. मैत्रीचो खरो अर्थ आनी अनुभूती म्हाका मेळ्ळी ती माधवीक लागून... निर्मळ निर्हे तुक, घट्ट, अतूट मैत्री!



माधवी कॉलेजींत पॉप्यूलर. कॉलेजींत येतना-वतना पावला-पावलार मेळपी चले-चलयो, प्राध्यापक, ताका 'हाय-हॅलो' केल्याबगर आनी माधवी तांकां हटकिल्याबगर फुडें वच नाशिल्लें. ताचें सादेपणाचे, सरळपणाचें, मधुर उलोवण्याचें, खळखळट्या हांश्याचें आनी हुशारेचें सगळ्यांक कवतुक आशिल्लें. तें खादीचे कपडे वापरतालें, देखून कांय जाण फकाणांय मारताले. माधवी मात्तूय रागार जायनासतना, तांचे बरोबर आपुणूय हांसतालें. तांतूल्याच कोणाकूय एकाद्रें, सरळच, 'कितलो सोबीत तुजो हांसो!' अशेंय सांगतालें आनी ताकाच नर्व्हस करतालें. जाणून-बुजून न्हय. खऱ्या-खुऱ्या तोखणायेन. ताका सगळ्यां भितल्ले गुण तितले दिसताले. कोणाचें रुप, कोणाचो सबाव, कोणाचो आवाज, कोणाचें अक्षर, कोणाचे दोळे - आनी रोकडीच त्या कोणाची तुस्त करुन मेकळें! म्हज्या भितर, दुसऱ्यांच्या गुणांइतलेच दोशय,एकाच नदरेंत बेस बरे वळखुपाची तांक आशिल्ली. म्हणूनच दुसऱ्यांभितर जें कितें बरें आसा तितलेंच पळोवपी माधवीचे 'गुणग्राहक'वृत्तीक हांव 'युधिष्टिराची दृष्टी' म्हणटालें आनी ती तशीच तिगची अशी मनांतल्या मनांत प्रार्थनाय करतालें. इतली निर्मळ, इतली सात्विक नदर जण एकल्याकडेन खंय आसता? खूबच दुर्मिळ ती.

माधवी खूब उलयतालें... सदच्या जिणेंतल्यो ल्हान-ल्हान घडणुको, अणभव, भुरगेपणांतल्यो यादी. ताचो पिरवळचो मामा, मामी, आजी., थंयची वावराडी, ताच्या घरचीं, कितलीशींच सोयरीं, शेजारी, जपानी, बंगाली आनी हेर इश्ट-इश्टिणी हातूंतल्या कितल्याश्याच जाणांक केन्नाच मेळनासतनां लेगीत, तीं म्हाका पुराय वळखीचीं जाल्लीं, ह्या शिवाय, कविता, कथा, पोरण्या हिन्दी सिनेमांतली पदां, मळब, सुर्यास्त, चान्ने, रान कितलेशेच विशय ताच्या उलोवण्यांत आसताले. केन्नाय, 'सुजा म्हाका तुजेकडेन उलोवंक जाय' म्हणून कांय वैयक्तिक प्रस्न, प्रसंग, मनांतलो गोंदळ, अस्वस्थताय म्हाका उलोवन दाखयतालें. एक खरें आमच्या अभ्यासाविशयी मात आमी केन्नाच उलोवंक नात. आनी कोणाचे 'धवळे'य केले नात.

आतां बस चुकली जाल्यार, माधवी आनी माधवीचें घर आसा हाचो त्या काळांत म्हाका खूबच आदार जाल्लो. हांव केन्नाय तांगेर रावंक वतालें तेन्ना, तांच्या बिल्डींगेच्या तेर्रासार वचून उलोवंक बसतालीं. खूबदां एकमेकांक आप-आपली डायरी वाचून दाखयतालीं. डायरेंत आमचें एक वेगळेंच बिंब आमकां दिसतालें. भायल्यान दिसता तशें हांव तर नाशिल्लेंच. माधवीय नाशिल्लें. ताचे डायरेंतलीं उतरां, ताची पत्रां आनी रातचें जागून केल्ल्या खबऱ्यांनीं, ताचे सबावाचीं कितलींशीच तासां म्हाका कळूंक लागिल्ली. ताचो हांसो म्हाका दर्यार खेळपी ल्हार कसो दिसतालो. ताचो मनाचो दर्या कळवळयान भरिल्लो. ताचें तें हांशें, केन्ना खऱ्याच खोशयेचें, केन्ना निरुपाय म्हणून तर केन्ना रडप ना या ठाम निर्धाराक लागून खळखळत आसतालें इतलें खरें!!

माधवी बुद्धीमान तर आशिल्लेंच तितलीच शिक्षणाची ताका खूब्ब तळमळ! फिलोसॉफीच्या लेक्चराक, पयल्या बांकार बसून आमी दोगांय ल्हवू आवाजात रफीचीं पदां म्हणटालीं आनी ऑफ पिरएडाक कॉलेजाभोंवतणी भोवन, बोरां खातालीं खरीं, पूण फुडाराक कितें करपाचें आसा, कितें शिकपाचें आसा, खंय पावपाचें आसा हाचो 'परफेक्ट प्लॅन' ताचे तकलेंत आशिल्लो. आनी हाका लागून म्हाकाय म्हज्या फुडाराचें चितूंक प्रेरणा मेळिल्ली.

पुण्यांत हॉस्टेलार आसतना, आमी दोगांय एकमेकांच्यो वस्तू, पयशे, स्वत:चेच कशे वापरतालीं. 'नॉक' करीनासतना करतां एकमेकांच्या कुडींत सहज भितर सरतात, जेवणा-खाणाक, एकमेकांक रावतात हाचें थंयच्या चलयांक खूबच अजाप जातालें. पुण आमी दोगांय रातचीं जेवंक बसलीं कीं, आमच्यो रंगत वचपी गजाली, माधवीचो हांसो, आमचे कुडींतलें समादानी, आनंदी वातावरण पळोवन, जाय त्या जाणांक ताचें आकर्शण दिसूंक लागिल्लें. मागीर तातूंतली कांय जाणां, आपले डबे, ताटां घेवन आमच्या म्हऱ्यांत येवन बसूंक लागलीं. रातचें आमचें हॉस्टेलांतलें जेवण एक सुवाळो जावंक लागलो. आमच्या सगळ्यांमदीं मोगाचें, आपलेपणाचें नातें तयार जालें. ह्या सगळ्यांचे

श्रेय माधवीकच!

हांव तशें कोणाकडेन रोखडीच वळख करून घेवपी न्हय आनी जालीच तर कोणाकडेय तर वाडोवपीय न्हय. माधवीच्या कांय इश्टीणी आनी इश्टांपासून चार हात पयसच रावतालें. पुण माधवीक लागून एक सुंदर 'मैत्र' अळंग म्हज्या पदरांत पडलें. बुद्धीमान 'सेन्सिबल', 'सॉर्टिड'-सुषमा! आमी तिगांनीय एकठांय सारिल्ले दिस आनी खीण, म्हज्या जीणेंतले भांगरा-कण!!

माधवीक संगीताची आवड तर आशिल्लीच, बरी जाणय आशिल्ली. सतार शिकूंक तीन-तीन बसी बदलून तें ताच्या गुरु म्हन्यांत वतालें. फ्रेंच भास शिकूंक आनीक एका क्लासाक वतालें. थंय घडिल्ल्यो मजेशीर गजाली रंगोवन सांगतालें. पुणेच्या बस कंडक्टरानी मोडच्या पयश्यांखातीर केल्ली किटकीट आनी शेरेबाजीच्यो नकलो करून दाखयतालें. हांसतां-हांसतांच म्हाका ताचें भंगू दिसतालें. ''कितल्यो म्हणून काडावडी ह्यो!'' पूण ताचेभितर आवडीच्यो गजाली करत रावपाची जिद्द आशिल्ली. पुरो जालें तरी पिरंगत बस नाशिल्लें तें... ताची 'आनंदयात्रा' सुरूच आशिल्ली.

भाशाशास्त्र विभागांत उत्तम विद्यार्थी म्हणून ताणे नामना जोडिल्ली. मन लावन शिकतालें. रिसर्च करतालें. सतत अभ्यासांत, चिंतनात, बरोपांत मग्न. केन्नाय कसलो भपको ना, दुसऱ्याचेर बेजार जावप ना... सदांच हांसतमुख!!

शिक्षण सोंपोवन माधवी गोंयांत आयलें, लग्न जालें, नोकरी, पि.एच. डी. भुरगीं हातूंत घुस्पलें. पूण दरेक पांवड्यार आमचें मेळप, उलोवप सुरू आशिल्लें. कांय वर्सांनी आमी आप-आपल्या कामांत चडच घुस्पलीं. तशें मेळप कमी जायत गेलें. फोनारच खुशाली विचारताली. माधवीचो हांसो इल्लो कमी जाल्लो.

कांय वर्सांफाटीं हांवें व्हडा उमळशिकेन ताका फोन केलो. 'बेस्ट जाली गो कार्यावळ, आमी फाटीं उलयल्ली तसो परिसंवादय दवरिल्लो हांवें. बरोऽऽ... रंगलो. माधवीन सगळें आयकून घेतलें. खोशीय दाखयली. म्युझियमांत जावपी कार्यावळीविशीं हांव सदांच ताचेकडेन उलयतालें. आनी त्या वर्सा आमच्या कार्यावळीक उपाट यश मेळिल्लें. म्हजें उलोवन जातकीच, माधवीन म्हळें, ''सुजाऽऽ हांव मगो मुंबय आसां. दोन दीस जाले येवन -डॉक्टराक मेळूंक आयलां...'' ताणें आपल्या दुयेंसाचे नांव सांगलें. म्हज्या पोटांत घस्स जालें. पुण तें मात्र आपल्या त्याच शांत सुरांत उलयतालें. ''हुस्को करू नाका आं तू... जातलें हांव बरें...''

फुडलें वर्सभर, सुषमाकडल्यान सगळो तपशील कळटालो. आमी दोगांय आमच्या भितरलो 'आशावाद' तिगोवन दवरूंक, रातची उसरांमेरेन फोनार उलयत रावन, एकमेकांक धीर दिताली. केन्नाय माधवीकडेन उलयलें जाल्यार, स्वतः खूप सोंसता आसूनय, ताचें, ''तूं हुस्को करूं नाका'' हेंच पालुपद सुरू आसतालें.

एक दीस हांव उठून मुंबय गेलें ताका मेळूंक. माधवी, सुषमा आनी हांव. तिगांय एकठांय भोंवली, एकठांय जेवलीं... जेवंक गेल्लीं त्या हॉटेलांत, सतार वादन सुरू आशिल्लें. माधवी तें तल्लीनतेन आयकतालें... पळोवन खूब समादान दिसलें. रातीं आमी आड पडली तेन्ना, माधवीक, फाटींत, पोटांत खूब कळो येताल्यो. हांव ताका सांसपित रावलें. माधवी रातभर उलयत आशिल्लें. कांय पोन्न्यो यादी, कांय मनशांच्या विचित्र वागणुकीचे संदर्भ, कांय खंती, कांय हुस्के. आनी ह्या दुखण्याक लागून जाल्ले त्रास. हांव कांयच करूंक शकना, कांयच बदलूंक शकना हें खबर आसून म्हाका खूब असहाय्य दिसलें. दोळ्यांत दुकां आयलीं. माधवीच्या तें लक्षात आयलें तेन्ना म्हणूंक लागलें, 'हेंऽऽ रडप ना आं!' तो मेरेन सकाळचीं सवाय स जाल्लीं. ताणे म्हळें, ''तूं न्हीद गो मात्शें प्रवास आसा तुका'' आठांक सुमार जाग आयली. म्हाका धांक तरी भायर सरूंक जाय आशिल्लें. म्हणून हांवें म्हजी तयारी सुरू केली... तितल्यांत हें उठून तयार. ''आगो इतले बेगीन कित्याक उठलें तूं?'' हांवे, सुषमान म्हळें ''मागीर न्हीदतां दनपरां'' ताणें सांगलें आनी मागीर ताचेर सगलोच बोवाळ. 'सुषमा सुजाक हें दी... तें दी...'

खरें म्हळ्यार त्या दोगांयक सोडून थंयच्यान भायर सरुंक मनच जाय नाशिल्लें. पुण म्हज्याय घरांत कांय अडचणी आशिल्ल्यो.

हांव च्या पियंक बसलें तशें, माधवी स्वतःच उठून रांदचे कुडींत गेलें. म्हज्याखातीर खीर करून हाडली. ''ही खा तूं. पावतासर वेळ आसा. भूक लागतली तुका.''

म्हजी वाचाच गेली...

इतलो मोग! सदांच दुसऱ्याचोच विचार! म्हाका याद जाली. कोणाकडल्यान व्हडलीशी अपेक्षा नासताली ताका, आनी अशेंच तें कोणा-कोणाक चड विचार न करता तें मदत करतालें. तेन्ना, हांव ताका म्हण्टालें, ''दान सत्पात्री करचें गो'' हांसून सोडून दितालें. तशें ल्हवू-ल्हवू ताकाय कळूंक लागिल्लें. मनशां स्वार्थी आसतात, मनांत हेतू धरून लागीं येतात; धोंगा करतात, फटयतात - पूण एक खरें तें 'जशाक तशें'बी जावपाचे भानगडींत पडलें नां. आपल्या मनाची निर्मळताय सोडली नां. आपुण कोण, कशें, कितें हाची ताका सारकी जाणवीकाय आशिल्ली. तें ज्या पांवड्यार आशिल्लें तें थंयच्यान केन्नाच सकल देवलें नां. दुसऱ्याच्या वागणुकेक वा सबावाक लागून आपली सात्विकता आनी तिजेवयली निश्ठा सोडली नां. स्वतःक खूबशा गजालींपासून निर्लेप दवरून. स्वतःच्या कामाक, मिशनाक महत्व दिलें... तें करत रावलें. कांय जाणांच्या वागण्याचो त्रास जालो ताका... पूण माधवी केन्ना कोडू जालें नां.

पयर ताची याद काडली एकल्याकडेन. ताणे म्हळें, - "She was a gem of a person!"

आमच्या आयुश्यांतल्यान हें रत्न निखळून पडलां. आता त्या जाग्यार एक जखम जाल्या. कितलीशीच वर्सां जाली... पेखना ती. दुखत आसा.

ह्या दुखीक वखद ना.

संपर्क : 7028921961

***



# तमे गांडू छे...!

दिलीप बोरकार

गुजराती लोक एक्साचे फित्रीक असो म्हाका दुबाव आशिल्लो.

दुबावाचीं कारणां कितें तीं आनीक वेगळीं सांगपाची गरज ना.

फाटलीं आठ वर्सां जाणें कोणें ह्या देशांत तग मारल्या तातूंतल्या कोणाकूय विचारात, हांव कितें म्हणटां ते सारकें काय म्हूण!

तो नक्कीच तकली हालयतलो. उलोवंचोना. कित्याक उलोवप आमकां कोणाकूच परवडना!

आनी हालयल्ली तकली नरो वा कुंजरो वा म्हणपाचीय कल्पना येना.

आतां ह्या फित्रीकपणाचेर म्होर लायली त्या साक्षी बिंदून.

आतां हें साक्षी बिंदू कोण हें जर म्हाका कोणाक सांगचें पडलें जाल्यार त्या आदीं गुजराती फित्रीक कित्याक तें आदीं सांगचें पडलें ना..

एका साद्या भोळ्या गुजराती भुरग्याक दिसलें आपणें कसलो तरी धंदो करचो आनी व्हडलो जावंचो.

तो गांवच्या एका विद्वाना कडेन गेलो आनी ताचे कडेन मजत मागली.

विद्वानान ताका सांगलें, 'तूं भुरगो आसा, तुका तकालशीचें कसलेंच काम झेंपचें ना. तूं उण्या भांडवलांत करूंक शकता तो च्याचो धंदो. तुका हांव एक किटली दितां, तातूंत नळाचें उदक भर, ती किटली उज्यार दवर आनी सळसळ्ळें काय तातूंत पालो, साकर आनी दूद घाल. तें सामान हाडपाक हे पयशे घे. पूण एक गजाल, धंदो करतना 'च्याय च्याय' अशें मोजकेंच उलय. नशिबान सांगात दिलो आनी फुडाराक समजा व्हडलो कोणूय जालो जाल्यार हेरांच्या तोंडाक कुलुप घालून तुकाच खूब उलोवंचें पडटलें.




भुरग्यान मान हालयली. कितें उलोवपाचे तेंय समजून घेतलें. ताणें मागीर च्याचो धंदो फुलयलो आनी फुडाराक एक्साचो खऱ्यांनीच व्हड मनीस जालो. ताका व्हड मनीस जाल्लो पळोवंक तो विद्वान पावलो ना पूण आयज कितलेच अतिविद्वान ताका पळयतात... तो थांबनासतना उलयता आनी विद्वान, अतिविद्वान हाताची घडी आनी तोंडार बोट अशे अवस्थेंत दोळे उगडे दवरून दीस काडटात. येदी व्हडली क्रांती फित्रिकूच करूंक शकतात आनी संवसारभर नांव जोडूंक पावतात.

तेच जातकुळीचें गुजरातचें दुसरें फित्रीक म्हणल्यार हें साक्षी बिंदू.

ताणें आपल्याच कडेन लग्न जावपाचें थारायलें आनी एकेच रातीक फामाद जालें. पयल्या फित्रिकाक फामाद जावंक बरींच नाडपेन्ना करचीं पडिल्लीं. आतां फामाद जावप हें जर कोणाक पिडनासतना इतलें सहज शक्य आशिल्लें जाल्यार म्हाका कसली पिडा मारिल्ली काय म्हणटां हांव..! हें खरड तें खरड करीत कितें तरी बरोवप आनी फामाद जावपाक धडपडप...! ते परस हें आपलेच कडेन लग्न जावन फामाद जावप सोंपें. फामाद जावपाक कितें ना कितें नाडपेन्ना करपी आमच्यो कांय लेखिकाय आतां कपलार हात मारतात खंय...! आपल्याक शक्य जालें ना तेन्ना आतां आपले धुवेचें तरी तिचेच कडेन लग्न लावन उडोवपाचो तांचो विचार चल्ला खंय...! लावं बाबडीं, तेतून कितें आहा... तशें केल्ल्यान कितलेच प्रस्न सुटावे जातात. पयली गजाल म्हणल्यार वर्सां सरतात ताची चिंता ना. अमकूच वर्सां भितर लग्न जायना जाल्यार तें बियाक उरतलें अशेंय कोण आतां म्हणचोना. खंयचे जातीचें, खंयच्या धर्माचें, भायले जातीचें, भायल्या धर्माचें असलें संशोधन करपाचीय कोणाक संद मेळचीना. आपल्याच कडेन लग्न म्हणकच जात-धर्म शंबर टक्के आपलीच. गोत्र, नक्षत्र, आडवीं, उबीं असल्या गजालींक वेळ आनी तकली वगडावताली तें वाचलें. बापायंक सोयरीकेच्या नांवान जोतीं झरोवंचीं पडटालीं तेंय वाटावलें. हनिमुनाक आपणें एकट्यानूच वचपाचें जाल्ल्यान जें कितें करपाचें तें आपले मर्जी प्रमाण जाय तेन्ना, जाय थंय करपाचें. बरेंय जालें जाल्यार आपलें आनी चुकलेंय जाल्यार आपलेंच. सखाराम बोरकारान जाय जाल्यार हांगा एक म्हण वापरून म्हणी फाटली काणी सांगूं येता. ही फकत एक सुचोवणी, जाय जाल्यार करचें. जबरदस्ती ना.

आनीक एक म्हत्वाची गजाल म्हणल्यार आपल्याच कडेन लग्न जाल्ल्यान, लग्ना उपरांत जें कितें करतात तें सगळें आपलेच कडेन करपाचें जाल्ल्यान कसली जबरदस्ती ना आनी कोणाचें मन राखपाचोय प्रस्न उपरासना. म्हणटकच भायले पिडेचोय दुबाव ना, एडसफ्रीच्या दाखल्याचीय गरज ना आनी फुडाराक विनयभंग, डायवोर्स बी कारणाक लागून कोर्टाचे हुंबरे झरोवपाची गरज ना. आपल्याकूच सांगपाचें, ''हांव लग्न जालें खरें म्हजेकडे पूण आमचें जुळना. तेन्ना हांवच म्हजें लग्न मोडटां.'' पळय कितली सादी आनी सुटसुटीत गजाल... पूण साक्षीन अशें आपल्याच कडेन लग्न केल्लें जायते जाणांक आवडलें ना. हे भोवतेक सगळे न्हवरेकार बी आसूंक जाय. कित्याक साक्षी बिंदून आपल्याच कडेन लग्न करून कांयच वगडायलें ना. ताका चोविसूय वरां मना सारकें वागपी ताचें जोडीदार मेळ्ळें. हाचें आंकवारपणांत कोणा कडेन गुडुलसांव आशिल्लें काय? असो दुबाव घेवपीय कोण ना. लग्नाक जे जे कितें विधी करूंक जाय ते सगळे केल्ल्यान व्हंकलकारां वटेनच्या कोणाचीच कसली तक्रार ना. तांकां लग्नाच्या निमतान जें जें कितें मेळपाचें आसता तें साग्रसंगीत मेळ्ळें. म्हणटकच आमच्या साक्षीन आपलेच कडेन लग्न केलें म्हूण कोणें बोटां मोडलीं नात. तांणी येवकारूच दिलो. साक्षीचें सगळें जो

कोण नवरो नवरी म्हणून आपले नांवार करपाचो ताचें मात सपन घडलें. आमचो नुस्तार गेलो. अशें दिसपी नवरेंकारुच साक्षीच्या नदरेक नाका दिसल्यार. आनीक कोण न्हय हाची म्हाका खात्री जाली.

इतलें मेरेन सगळें बरें आसा. पूण आमच्या माम्बळेंच्या प्रदीप नवऱ्याक साक्षीन राग कित्याक तें कळ्ळें ना. ताणें कडेन चवकशी केली तेन्ना ताणें सांगलें. आपल्याक कोणा ममण्यानें पटूक ना. आपल्याक पडल्या भारतीय संस्कृतायेचें आनी लग्न संस्थेचें जावपी विरयगनी. जाप म्हाका पटूक ना पूण साम्बळेंत प्रमाद मावन मयशीं मताने निवडून कशी आयली ह्या प्रश्नाची मात जाप मेळ्ळी. तेन्ना माम्बळेकारांक अनीक कायच विचारपाचें ना अशें थारायतां थयच आसा नवदेवाच्यानूच काकुळटेक कश येवनूच म्हणलें. लग्न जावपाक दुसरो कोण नरी जायच न्हय रे पुता...! मागीर तो फातर लगीन चलना...

जाणटेल्या मागतान तें एकवेळ मत मानलें आनी हावें जोडीदार जाय म्हूण नवदेवाक मागलो नशीं फातरा कडेन लग्न केलें जाल्यार उपरांतच्या हनिमूनाचें कशें...? कल्पनेनूच म्हजें आंग शिळ्ळें जालें. पूण तितलेंच पुरो. कारण तेच वेळार म्हज्या कानार मराठी तिनुका मिळवावा सिनेमांतलें पद पडलें. हृदयनाथ मंगेशकारान ताका संगीत दिलां आनी शांता शेळकेन तें बरयलां. तुलसीवांशीं लगीन लागलें. झडली येडी प्रीत...! देवा माझ्या हें असलें लगीन शुरू ससदारकून परवडपाचें. तें करतात म्हूण हावय केलें आनी तुलसीवांगडा हनिमून केलो जाल्यार म्हजो 'खरगटो' जावपाचो. त्या परस फातर हजार वाटेयानी परवडलो अशें चिंतून घरा आयलीं. जाल्यार दागत कोण...? तेंच साक्षी..

साक्षी बिद् लग्ना उपरांत गोयांत हनिमूनाक येवपाचें आसा अशें हावें आयकलें. पूण तें म्हगीर येत अशें दिसूक नाशिलें. हावें ताका विचारलें. म्हगीर शें गो हनिमूनाक...? तर म्हणूक लागलें, बशींत कंडक्टर दोळे वयर करून म्हाका कितें तरी विचारतालो. म्हाका दिसलें नांव विचारता. हावें सांगलें 'साक्षी'. कंडक्टरान म्हाका 'आगशी' देवयलें. देवयल्या बगबर लोकांनी म्हाका हागा हादून सोडलें आनी तेल्यान म्हणूक लागलें. असली फितिका बोस्कारागेरूच येतात.

ती नवी व्हकल बडबडतच आशिल्ली. हें एकटें हनिमून कशें करतलें काय? म्हण हाव ताका पळयत उरलों. रावूक जायना देखून शेवटाक ताकाच विचारलें. जाल्यार ताणें लजत लजत फट्ट करून म्हणलें.तमे गांडू छे...!

आता हें सागपा खातीर ताका आत्मलग्न करून, आत्महनिमूनाक गोंयांत येवपाक जाय आशिल्लें...? हाव एक्साचो गाडू हें हाव जाणाच. ना तर ताचें आदीं हावच म्हजें लग्न म्हजेच कडेन लावन केन्ना मेकळो जावपाचों. 'केन्ना रे आमकां लाडू?' 'उरलो मरे बियाक?' ह्या प्रस्नांतल्यान सुटका जावन साक्षीवरी फामाद तरी जावपाचों..!

संपर्क: 9822136885

***


Difficulty Vanishes Here

NOW ON THE STANDS

RAJHAUNS
LANGUAGE
FORMATION SERIES

LET US KNOW OUR
KONKANI & MARATHI FORMATION

1 Let us know Our Alphabet
2 The Build-Up: Step One
3 The Build-Up: Step Two
4 The Build-Up: Step Three
5 The Build-Up: Step Four
6 Numbers 1-20
7 Numbers 1-50
8 Numbers 1-100

- Alphabet for practice
- Single to four lettered words
- Conjuncts in two to five lettered words
- Short sentences for drill.
- Reading and writing made easy
- Numbers to write and read aloud



राजहंस
RAJHAUNS SANKALPANA PVT LTD
1-Meenakshi Bldg, Dr. Wolfango da Silva Marg, Panaji 403 001
Ph: 2220320 / 2232177 | E-mail: rajhaunsgoa@gmail.com
www.facebook.com/rajhauns | www.rajhauns.com

# जराशास्त्र - वृद्धोपनिषद

डॉ. सोबिता किर्तनी



**विशय प्रवेश:**

मनशाच्या जिविताची एके एकसुरे पेशी (cells) पासून सुरवात जाता. जल्माक येयत साकून मरण येयी म्हणसर मनशांत बदल घडत रावता. हो बदल शरिरीक, मानसीक, आकलन शक्ती आनी समाजीक अशा चार आंगांनी घडटा.

भुरगेंपण, जुवानपण, जाण्टेंपण आनी म्हातारपण अशे आमी जिविताचे चार वांटे घालूंक शकतात. तरी मनीस आपली जीण कुडक्यांनी वा वांट्यानी जगना. खंयचेय एके विशिश्ट पिरायेचेर भुरगेंपण, जुवानपण वा जाणटेंपण सोंपलें आनी जिविताचो फुडलो पावंडो आयलो म्हणप कठीण. पिरायेचे हे भाग आमचो समाज थारायता अशें 'कॅरींग फॉर दी एलडरली' (Caring for the Elderly) ह्या पुस्तकांत, 'इमॅजिनींग ओल्ड एजः कल्चरल इंटर्प्रिटेशन्स' (Imagining Old Age: Cultural Interpretations) ह्या विशयाचेर बरयतना एस. एम. चन्रा (२०१५) म्हणटा. देखीक ज्या काळार भुरगेपणांत लग्नां जातालीं, त्या काळार भुरगीं आनी नातरांय खूब आदले पिरायेचेर जल्मल्ल्यान, चाळिशींतली बायल मनीस आज्जी जातालो. पूण आयज लग्नाची पिराय खूब फुडें गेल्या. आयज चलयो शिक्षण घेतात, नोकरी - वेवसाय करतात आनी सरते विशींत वा सुर्वेचे तिशींत लग्न जातात. म्हण्टकीच आयच्या काळार चाळिशींतले बायल मनशेक जुवानच लेखतात.

जिविताच्या वांट्यांतलो लग्नाचो आनी पिरायेच्या भागाचो संबंद आमचे भाशेंतय दिसून येता. एकाच वयाचे आंकवार अस्तुरेक 'चली' आनी लग्न जाल्लेक 'बायल' म्हणपाची पध्दत आसा.

पिरायेच्या भागाचो संबंद भुरग्यांचे पिरायेक धरुनय जाता. ज्या जोडप्यांची भुरगीं व्हडलीं तांकां आपसूक जाण्टीं लेखप जाता.

हाचोच अर्थ वयाचो भाग आमची समाजीक जीण थारायता. चन्रा म्हणटा समाजाचो हो नेम मात बायलांच्याच वयाक लागू जाता. दादल्याक आजो जातकीच जाण्टो म्हणपाची पध्दत ना. दादलो कामातल्यान निवृत्त जालो की तो जाण्टो जालो अशें समजतात.

जाण्टे पिराये संबंदान आशिल्ले समज भाशेंतय परावर्तीत जातात. देखीक हिंदीन 'सठिया जाना' म्हण्टात म्हणजे साठी उपरांत senile जावप. हाचे वयल्यान साठी ही एक कुरवेची (marker) पिराय अशें म्हणूं येता. तशेंच मराठीन 'साठी हातात काठी' अशी म्हण आसा. हाचोच अर्थ साठी हुंपिल्लो मनीस उतार पिरायेचोच न्हय तर ताची कर्तुत्व शक्त (Overall abilities) उतारिचेर पावता. देखून ताका चलूंक हांतात बडी धरची पडटा. आयच्या काळान मात साठीचेर निवृत्त जाल्लो मनीस, बसपगारी काळ हो नोकरी- वेवसाया वेळार करपाक जमल्यो ना त्यो उमेदी भागोवपाचो काळ अशें मानतात. साठीचेर नोकरेंतल्यान निवृत्त जावप ही पश्चिमी चाल. पूण भारतीय भाशेंतय साठीचेर मनशाक जाण्टो लेखपाची पद्दत दिश्टी पडटा. साठीचेर जरी जाण्टो अशें मानता, तरी कितले पिरायेचेर मनशाक म्हातारो समजुचो हाचो नेम ना. म्हातारो लेखूंक एक विशिश्ठ अशी पिराय ना. म्हातारो ताका म्हणूं येता ज्याका शरिरीक आनी विचारीक पावंड्यार दुबळेंपण जाणवता.

पापालिया आनी ओल्डस हे मानसशास्त्री जाण्टे पिरायेचे आनीक तीन भाग करतात - 'यंग-ओल्ड', 'मिडल-ओल्ड' आनी 'ओल्ड-ओल्ड'. मात भारतीय भाशांनीं जाण्टेंपण आनी म्हातारपण अशे दोनच भाग दिश्टी पडटात. घडये हांचो संबंद जीण वांटावपी मशीनां आनी वखदां कडेन आसूंये.

वर्ल्ड बँक डॅटा (World Bank Data) हाच्या नियाळा प्रमाण २०१९ सालांत भारतीय लोकांचें जिणे मान (life expectancy) ६९.५ आसा जाल्यार, युनायटेड स्टॅट्सांचें ७९ आनी युरोपियन युनीयनाचें ८१ जावन आसा.

१९२२ ह्या वर्सा स्टॅनली हॉल नावांच्या मानशास्त्र्यान 'सिनॅसॅन्स - दी लास्ट हाफ ऑफ लाईफ' (Senescence - The last half of life) नांवाचें पुस्तक बरयलें. ह्या पुस्तकांत जाण्टेपणाचो अभ्यास करपाचें बीं रोयलें. १९२७ वर्सा स्टॅनफोर्ड युनीव्हर्सिटींत पयले खेप जाण्टेपणाचेर संशोधन करपाक सुरवात जाली.

ह्या जाण्टेपणाचो अभ्यास करपी विशयाक 'जरा शास्त्र' जॅरॉन्टोलोजी (Gerontology) अशें म्हणटात.

\- २ -

तरणी पिराय जिवितांतली सगळ्यांत आकर्शक वर्सां. भुरगेपणांत करपाक मेळना तें सगळें तरणे पिरायेर करूंक मेळटा आनी तरणे पिरायेर करूंक जमता तांतल्यो जायत्यो गजाली जाण्टेपणांत जमनात. विसेक वर्सांचो हो काळ. उरिल्लें सगळें आयुश्य जाण्टेंपण आनी म्हातारपण हातूंत वाटून वता. अमेरिकेचे आदले राष्ट्राध्यक्ष थिओडॉर रूझवॅल्ट

**जराशास्त्र म्हळ्यार जाण्टे पिरायेचें शास्त्र. इंग्लिशींत ताका Gerontology अशें म्हणटात. ह्या विशयाचेर संशोधनपुर्ण प्रबंध बरोवन लेखकान डॉक्टरेट संपादन केल्या. प्रस्तूत लेखमाळेंत जाण्टेपणाच्या वेग-वेगळ्या तासांचेर अभ्यासपूर्ण लेख आसपावल्यात.**

**डॉ. सोबिता किर्तनी ही पार्वतीबाय चौगुले कॉलेजींत मानसशास्त्राची सहायक प्राध्यापक आसात.**

[illegible] म्हणलां 'Age is like everything else. To make a success of it you have to start young.' पिराय ही हेर गजालीं भशेन आसता. ती फळादीक करुंक तरणे पिरायेर सुरवात करची पडटा.

पूण तरणें पिरायेर पयस दिसपी जाणटेंपण अचळय लागीं पावता तेन्ना दुबळें आंग, सुरकुतिल्ली कात, कमी जाल्ली नदर, शेणप्यो यादी आनी मठावल्ली गत आकूंन जाण्टो जाता हाची जाणविकाय दिता.

जाण्टेंपण मह्त्वाचेन कोणाक मानवना म्हातारपण तर नाच ना. हाचें फाटलें कारण किते काय?

परंपरेन जाण्ट्यांक आमच्या समाजांत भोव मान आसा घरांतय जाण्ट्यांचो सल्लो घेवप, मल्ला घेवप, आशिर्वाद घेवप ही पध्दत आसा. तरी आयच्या काळार जाण्टेपणाक उणाक लेखप जाता. जायरातींनी 'Fight signs of ageing' म्हणून जाण्टेंपणात पडपी सुरकुत्यांक मात दिवपी उत्पादना (products) दाखयतात. तातल्यान तरणे पिळगेक जाण्टेपणाचो भय घालतात. जाण्टेंपणात घडटले बदल पळयतल्यांक कमी आकर्शीत करतात हो समज ह्या जायरातींक लागून घडटा.

'Evolutionary theory' म्हळ्यार उत्क्रांती शास्त्रा प्रमाण हें खरेंय की मनीस, भाव करून बायल मनीस जाण्टी जाल्या की तिची सोबाय उणी जाता. ती दादल्यांक कमी आकर्शीत करता.

उत्क्रांती शास्त्रा प्रमाण मनीस जात आपली आनी आपल्या प्रजातीची (species) राखण करपाक फावो तो वावर करता. जाण्टी बायल्लेक गर्भ धरूंक शकनाशिल्ल्यान दादल्याक ती उण्या प्रमाणात आकर्शीत करता. ह्या विचारसरणी प्रमाण हें जरी खरें आसलें तरी मनीसजात आयज सभाग फकत भुरगीं जावचीं म्हणून न्हय तर मनोरिजवणे खातीर करता. ह्या दिसवान हो नेम आयज काळा भायरो थारता. तरी तरणी पिराय चड आकर्शक हातूंन दुबाव ना. आदल्या काळार जाण्टे पिरायेर लेगीत आकर्शक दिसूंक जाय ही कल्पनाच नाशिल्ली. बायल आवय जाल्या म्हणटकच तिची पुराय जीण भुरग्यांक आनी उपरांत नातरांक न्हाणाची व्हड करपांतच सरताली. मात आयज काळ बदलला. आयज भुरग्यां पयल्यान असुरचें आपलें असें वेगळें अस्तित्व आसता असें जाल्ल्यान भुरगीं जातकच लेगीत वा जाण्टी जावन लेगीत बायलांक आकर्शीत दिसप तितलेंच गरजेचें जावन आसा.

तर दादल्यांक आकर्शीत दिसप गरजेचें न्हय काय? एकाकाळार सुंदर दिसपाक यत्न करपी दादल्यांक बायजण लेखताली. दादल्याचें शौर्य ताचें कीत कशें, उत्क्रांती शास्त्रा प्रमाण बायलांक दुसऱ्या पासून राखण दिवपी दादलो आनी तिच्या भुरग्यांक पोसपाची क्षमता आशिल्लो दादलो हो बायलांक आकर्शीत करता.

मात आयच्या सुदारिल्ल्या समाजांत जनावरां वा दुस्मानां पसून बायलांची राखण करपाची गरज खूब उणी जाल्या. आयज बायलो वावर करतात जाल्ल्यान तांका पोसपाचीय गरज उणी जाल्या. तेन्ना आयच्या काळार दादल्यांकय आकर्शीत दिसप तितलेंच गरजेचें जालां. हे खातीर दादल्यांचे सुंदरतेचेय जायते उत्पाद बाजारांत आयल्यात आनी तांच्यो जायरातीय आसका पळोवंक मेळटा. पूण कितलोय यत्न केल्यार लेगीत मनीस थारावीक पिराये उपरांत कमी आकर्शक दिसता आनी देखून जाण्टेपणाक लोक उणाक लेखतात.

हे जाले वयलवयले बदल. कुडीनय मनीस ल्हव ल्हव दुबळो जाता. आदलें वरी शक्त उरना, पुरो जाता. सांदे दुखूंक लागतात. वाडटे पिरायेची दुयेंसा प्राप्त जातात. आयकूंक कमी येता. विसर पडटा. असे जायते शारिरीक आनी मानसीक बदल घडटात. हे बदल घडिल्ल्यान आयज वेर स्वतंत्र जगपी जाणटी तांच्या भुरग्यांचेर अवलंबून रावूंक लागतात. हेंय खातीर लोकांची जाण्टेपणाविशीं नकारात्मक वृत्ती जाता.

साधारणपणान साटीचेर लोक निवृत्त जातात. सोपते पन्नाशीत कश्टाचें काम करूंक कठीण जाता. विचार शक्त आनी आकलन शक्त मठावता आनी कामार जाण्टीं कमी उत्पादक (productive) जातात. तरणे पिळगे कडेन मतं करचें पडटा आनी फाटी पडल्यार स्वताचो दर्जो उणो जाला अशी भावना निर्माण जाता. खाजगी कंपन्यांनी काम करतल्यांक काम सोडचें पडूंक शकता आनी अशा वेळार परतून नोकरी मेळप भोव कठीण जाता. निवृत्त जाल्ल्या जाण्ट्यांक परतून नोकरी करपाक खूब कमी संदी मेळटात. पॅन्शन आसल्यार तरी जाण्टेंपणात येणावळ चालू उरता. पॅन्शन नासत जल्यार मात येणावळ बंद जाता. दुडू सांबाळून दवरिल्ले आसल्यार माणसूकी. नाजाल्यार जाण्टी आपल्या भुरग्यांचेर अर्थीक कारणाक लागून अवलंबून उरतात. जाण्टेंपणात दुसऱ्यांचेर आदारून जगप आनी भुरग्याक जाणटी जड जावप हें आमच्या भोंवतणीं सररसकट घडटा. म्हणून जाण्टेंपण म्हणल्यार दुसऱ्यांचेर अवलंबून उरप असें जावन पडलां.

निमणे पावड्यार आयच्या काळान तंत्रगिन्यानाचेर (technology) आदारून सगळें चलता म्हळ्यार फट जावचें ना. फोना जाग्यार मोबायल आयले. इंटरनेट वापरून पयसुल्ल्या लोकांकडेन संपर्क सादूंक मेळटा. बिलां फारीक करूंक मेळटा. मनरिजवणी खातीर पदां, कार्यक्रम आदी आयकूंक पळोवंक मेळटा. मात तंत्रगिन्यानांत दिसपट्टे बदल घडत आसतात आनी ते वापरपाक कळप हें जाण्ट्यांक एक मोटें आव्हान जाता. कांय जाण्टीं तंत्रगिन्याना कडल्यान पयस रावतात आनी कांय जाण समजुपाचो आनी वापरपाचो यत्न करतात. पूण वापरपाक जमप आनी याद उरप कठीण जाता. आयची तरणी पिळगी जल्माक येत सावन आपले भोंवतणी तंत्रगिन्यानाचो वापर पळयत आनी स्वता करीत आयिल्ल्यान ही पिळगी तंत्रगिन्यान कांय न्ही करून वापरतात. मात जाण्ट्यांक तें कठीण जाता जाल्ल्यान जिणेंत भरपूर आडमेळी येतात - भाव करून कामार. अश्या सगळ्या कारणांक लागून जाण्टेंपणाक उणाक लेखप आनी पिरायेचे भेदभाव करप सरार्स जाता. पश्चिमी देशांनी 'ageism' पिराय भेदाच्या विरोधांत चळवळ चालू जाल्या. जाण्ट्यांक सन्मानान वागोवप आनी पिरायेचेर आदारून भेदभाव करप ना हो जाणट्यांचो अधिकार आनी हेंच मनीसपण.

(चलता)

संपर्क: 9881527581

***

# संस्कार म्हळ्यार कितें?

**अरुण काकोडकार**



"आज्या, संस्कार म्हळ्यार कितें?" म्हज्या आठ वर्सांच्या नातवान, श्लोकान म्हाका हो प्रस्न विचारलो.

"संस्कार करप म्हळ्यार बरें कितें, वायट कितें करप हे विशीं उपदेस करप, मनार ठसोवप. ज्या वातावरणांत भुरगो वाडटा, ताचो परिणाम ताचेर जाता. बऱ्या वातावरणांत वाडिल्लो भुरगो बरो जाता. वायट संगतींत वाडल्यार वायट जाता." हांवें नातवाक सोंप्या उतरांत सांगलें.

तो महाभारतांतली काणी वाचतालो. ल्हानपणांत भीमाक अन्नांतल्यान वीख घालून दुर्योधन आनी दु:शासन ताका न्हंयेंत व्हरून बुडयतात हो प्रसंग तो वाचतालो.

"कौरव आनी पांडव एकाच वातावरणांत वाडिल्ले, तशें जाल्यार दुर्योधन आनी दु:शासन दुश्ट कशे जाले? श्लोकाचो प्रस्न."

"वातावरण जरी एक आसलें तरी दुर्योधनाक ताचो मामा शकुनीमामाचो सांगात मेळिल्लो. हो मामा वायट बुद्दी ताच्या मनांत भरतालो". हांवें सांगलें. इतल्यान ताचें समाधान जालें ना. भुरग्यांचेर संस्कार कशे तरेन जातात हें ताका जाणा जावन घेवपाक जाय आशिल्लें.

"भुरग्यांचेर संस्कार ताच्या ल्हानपणा सावन जातात. पयलो संस्कार ताचेर आवयकडल्यान जाता. आवय ताका उबो रावपाक, चलपाक, उलोवपाक शिकयता. फुडें मागीर तो शाळेंत वता तेन्ना ताचेर शिक्षणीक संस्कार जातात. तांतूंतल्यान ताका बरोवपाचें, उलोवपाचें, समाजांत वावूरपाचें, वागपाचें गिन्यान फावो जाता.

शाळा-कॉलेजांतलें शिकप घेतां घेतां ताचें गिन्यान वाडत वता. चार चौगांत वावुरतना तो संवसारांतल्यो नव्यो नव्यो गजाली शिकता. भुरगेपणा साकून व्हड जाय मेरेन जी शिकवण, गिन्यान ताका फावो जाता ताचे वेल्यान ताचे संस्कार घडटात." थोडे भितर हांवें सांगिल्लें श्लोकाच्या लक्षांत आयलें. तो परतून वाचपांत गुल्ल जालो.

तशें पळयल्यार मनशाचे आचारविचार जे घडटात ते संस्कारातल्यानच न्हय, ताच्या सभावांतल्यानय घडटात. जल्माक येत साकून मनशाचो सभाव, सभावांतले गुण-अवगुण जे आसतात ते सहज बदलनात. सभावाक वखद ना अशें ताकाच लागून म्हणटात. मनशाचें व्यक्तिमत्व ताच्या आचार विचारांतल्यान घडटा. ताच्या विचारांचो प्रभाव ताच्या घरांतल्या वातावरणाचेर जाता. देखीक, कांय घरांत भुरग्यांक खेळपाक, वावुरपाक मेकळीक आसता. कांय घरांत शिस्तीचीं, वेळाचीं बंधनां आसतात. एका वातावरणांत वाडिल्लो, वावुरिल्लो भुरगो जेन्ना दुसऱ्या घरांत वता तेन्ना थंयचो फरक ताच्या नदरेक येता.

आवय-बापूय भुरग्यांक घडयतात अशें आमी म्हणटात. भुरगीं इबाडलीं जाल्यार आवय-बापायक लागून अशेंय आमी म्हणटात. घडोवप आनी इबाडप हे गूण-दोश निमाणें आवय-बापायचेर येतात. आमी रोंपो रोयतात. रोंप्याक उदक माती घालतात. कीड लागू नये म्हणून जतनाय घेतात. पुणून फुडली सगळी क्रिया रोंप्याची आसता. रोंप्याक आकार येता, पानां फुट्टात, फुलां चंवरतात, फळां लागतात. पावस वारो, सुर्याचो उजवाड मेळटकीर तो तरतरता, घसघशीत वाडटा.

भुरग्यांचें तशेंच आसता. भुरग्यांक आमी शिकवण दितात, फावो ती दिका दाखयतात. पुणून तांच्या बुद्दीक आमी आकार दिनात. तांचीं तींच आकार घेतात. आपल्या बऱ्या वायट कर्मांनी तीं वाडटात. हातूंत थोडो नशिबाचोय वांटो आसता.

भुरग्यांक घडोवपाक घराचो मुखेल वांटो आसता. पयलींचीं घरां मनशांनी भरिल्लीं आसतालीं. बदलत्या काळांत घराची भुमिका बदलल्या. घरांतल्या मनशांची संख्या खूब उणी जाल्या. आमी दोगांच आनी आमचीं दोगां वा एकोडो एक अशी परिस्थिती जाल्या. भुरग्यांचे संस्कार, छंद, अभ्यास, व्यक्तिमत्व हें सगळें घरांतच घडून येता. घरांतलीं मनशां एकामेकां वांगडा उलयतात, वाद-संवाद करतात, सल्ले घेतात, मतां विचारतात, आदार दितात. ताका लागून वळखी वाडटात, नात्यांतली घटाय वाडटा. आतांच्या काळांत हें सगळें उणें जायत गेलां. कोणूय घरांत आयल्यार आमच्या भुरग्यांनी तांचेलागीं नीट उलोवचें, बरेभशेन वागचें अशें आमकां दिसता. भुरगीं बरीं वागलीं नात हें जेन्ना आमच्या कानार पडटा, तेन्ना आमच्या मनाक लागता. आमी भुरग्यांक तापोवन काडटात. हातूंत सगळो दोश भुरग्यांचो नासता. आमचोय भाग आसता.

वेगवेगळ्या वातावरणांत भुरग्यांची वाड कशी जाता हाचें बरें वर्णन एके इंग्लिश कवितेंत केल्लें आसा :

'जर भुरग्याचेर सदांच टिका जाता जाल्यार तो दुसऱ्याक दोश दिवपाक शिकता. ताचे भोंवतणी भंयाचें वातावरण आसल्यार तो फुडें सरपाक भिता. सोंशिक वातावरण आसल्यार तो निर्भय जाता. ताच्या कर्तुबांची तोखणाय जायत रावल्यार तो मानी जाता. इश्टागतीच्या वातावरणांत वाडल्यार तो मायेस्त जाता, स्वताचेर आनी दुसऱ्याचेर विस्वास दवरूंक शिकता.'

आवय-बापायच्यो भुरग्यांविशीं कांय इत्सा, अपेक्षा आसतात. जी वागणूक तीं तांकां दितात, ज्या वातावरणांत तो वाडटा ताचेर ताची जडण-घडण जाता. आवय-बापुयपण हें एक आव्हान! तें कशे तरेन सांबाळप ही एक परिक्षा. जे तरेन तीं तें समर्थपणान पुर्णतायेक व्हरतात ते बुन्यादीचेर भुरगें घडत वाडत आसता.

ज्येश्ठ विचारवंत लेखक खलील जिब्रान हांच्या लेखनाचेर आदारीत एक काणी आसा.

एक आवय आपल्या भुरग्याक घेवन स्वामीसरीं येता आनी तांकां विनवणी करता, "बाबाजी, हांवें म्हजो भुरगो तुमच्या पांयांकडेन हाडला. ताच्या फुडाराविशीं तुमी सांगचें अशी म्हजी इत्सा आसा."

बाबाजी तिका सांगता, "तुज्या मांडयेर तुजो भुरगो विसावला.

तुज्या जिवाचो कुडको तुजो तो सवस्व आसा. हे घडयेक तू तागेल खातीर खूब मोलाचो आसा. पुणून हाव मागता ते ध्यानात घे. तुज्या आनी ताच्या आयच्या वर्तमानाकडेन आनी फाल्याच्या फुडाराकडेन.

तुजो तशें कोणाच्योय भुरगें. फकत तुजो जाव ताची नामतात काळवेळाच्या धाग्यांनी तीं तुमचे लागीं गच्च बांदिल्लीं आसात. तुमच्या कुडीतल्यान तीं जल्माक आयल्यात. तुमच्या रगताच्या एका एका थेंबान तांची कुडी घडल्यात. तुमच्या अन्नाचो उडी तुमी ताका भरयल्या तुमच्या वाग्डा तीं गवतात. तुमी मोगान ताका सामर्पितात. जपतात तेन्नाय तीं तुमच्या हक्काचीं जातात अशें न्हय. तुमी तांची आवय-बापूय आसल्यारूय तीं तुमच्या मालकीचीं जायनात. तुमी तांची अपुरबाय करात. ताका जीव लायात. तांचेर मोग करात. तुमचे बरे विचार तांच्या मनात भरात. तातूंतल्यान तीं घडटलीं, वाडटलीं. पुणून फाल्याचो दीस तांचेखातीर दवरात. आयज तुमी तांच्या फुडाराची तजवीज करतात. पुणून तांच्या फुडाराची तजवीज तींच करतलीं. आपल्या घोंट्याच्या काड्यो-बड्यो आपूणच पुजावन हाडटलीं. ताका तांच्या इत्से प्रमाणे रावंक दियात.

जशें तुमी तुमच्या आवय-बापायचो मोग केलो, तुमची कर्तव्या तुमच्या जबाबदाऱ्या तडीक व्हेल्यो तशीं तिवूय तांचीं कर्तव्या, जबाबदाऱ्या सांबाळटलीं अशी आस्त बाळगीयात. समजून घेयात. घड्याळाच्या काट्याक जशें फाटीं वचूंक येना तशो गेल्लो काळ परत हाडूंक येना. तांकां तांचो फुडार घडोंव दी!"

मपर्क: 9822588852

---

(पान ३ वयल्यान)

आगार चडयलो तेन्ना म्हजी आर्वतिकाय किते जाल्ली ते हावच जाणा. म्हजी पयली कथा जेन्ना १९७३ वसा जग्गा न उजवाडायिल्ली आता ही जेन्ना आपूण आसतनाच जागा तर्फे उजवाडाक येवची अशें ताका दिसतालें. ही माधवांची इच्छा पुर्ण जाली- पूण विमानान सुवाळ्याक अखेरच्या स्वासा कडल्यान फकत चार म्हयने पयस आशिल्ल्यान माधवी येवंक पावलें ना.

म्हगेल्या कथांचेर माधवीन जितलो मोग केलो तितलो आनी कोणेंय केल्लो म्हाका उगडास जायना. सपनमोगी कथा माधवांक इतली आवडिल्ली की तिमणा ताका मेळूंक गेल्ली तेन्ना लगेंत माधवीन म्हाका म्हणिल्लें ती म्हाका याद जाता- 'भाई, सपनमोगीचेर एक बरें फिल्म जावंक जाय.' माधवींच इच्छेन उजवाडाक आयिल्ली सपनमोगी जेन्ना आता स्वप्नप्रेमी नांवान हिंदींत पावल्या. राजकमल प्रकाशन खूश आसा- हो झेल्याक हिंदी साहित्यीक संवसारांत बरो येवकार मेळ्ळा. माधवींकय आनंद जाला आसतलोच.

म्हाका ज्या दिसा ज्ञानपीठ जाहीर जालो त्या दिसाय म्हाका माधवींची याद आयिल्ली. कारण हाव जाणा- कोंकणीक मेळिल्ल्या ह्या दुसऱ्या ज्ञानपीठान आनी म्हाका मेळिल्ल्या ह्या पुरस्कारान माधवी इतलें खुशाल कोण आसू येता?

मपर्क : 9422059509




OUR KONKANI FOUNDATION THE PHONICS
OUR KONKANI FOUNDATION THE GENDER
OUR KONKANI FOUNDATION THE PLURAL

Now
CONQUER
THE
WORLD
THROUGH
YOUR
ROOTS

राजहंस
RAJHAUNS SANKALPANA PVT LTD
Email rajhaunsgoa@gmail.com I Website www.rajhauns.com
A TIME TESTED COMPANION OF STUDENTS AND TEACHERS



# कविते विशीं

**माधव बोरकार**

५.५.२२

पंडित कुमार गंधर्व हाणी संगीताचेर उलयतना एक विधान केलां. गायकान स्वरांचेर प्रभुत्व मेळोवंक जाय अशें ते म्हण्टात. गायकाचो आवाज गोड आसूंक जाय अशें ना पूण स्वरांच्या माध्यमावरवीं भावाचें प्रकटीकरण जावंक जाय अशें मत ते मांडटात. आनी हें स्वरांचें प्रभुत्व म्हळ्यार कितें तें सांगतना ते म्हण्टात की गायकान सगळे तरेचें संगीत आयकुपाक जाय. खासा ताणी माळव्याचें संगीत आयकून ताचें स्वरलेखन करून दवल्लें आनी तातूंतल्यान कांय धून उगम रागांची निर्मणी केली. (संगीतकार सलिल चौधरी हाणी बिथोवन मोझार्टे सारकिल्या रचनाकारांच्यो रचना आपल्या संगीतात हाडल्यो ताची हांगा याद जाता.) पश्चिमी संगीत आसूं वा हंगेरियन वा फिलिपीन संगीत तांकां सात स्वरांची आधार आसता. मागीर तांची बांदावळ थोडी वेगळी आसूं येता. आनी एक देख आसा ती, पं. जितेंद्र अभिषेकी हांची. ताणी एक पारंपारीक मांडो बसयल्लो. तो आयकतना एकसारको भूप रागाचो भास जातालो. तात्पर्य अशें की गायकाक संगीत आयकतना आपले कान आनी मन उक्तें दवरपाक जाय असो कुमार गंधर्वाच्या सांगपाचो मतितार्थ.

जशें गायकाचें स्वरांचेर प्रभुत्व आसूंक जाय तशें कवीचें शद्बांचेर. आनी ते खातीर कवीचे कान उक्ते आसप हें गरजेचें. भाशेंतलो खंयचो शद्ब वायट नासता. गाळी लेगीत त्या त्या सुवातींनी अर्थपूर्ण आसतात. संत तुकारामाले कांय कवितांनी आयिल्ल्यो गाळी काडीत जाल्यार ते अभंग अर्थशुन्य जातले. नामनेचे मराठी कवी गुरुनाथ सामंत आपले कवितांनी अशे गाळयांचो वापर करताले. श्री. पु. भागवत हांकां तो प्रयोग आवडत काय ना असो दुभाव येवन त्यो गाळी काडपाक लागले. भागवतानी तांकां सांगलें, ''सामंत मी सांगतो आहे म्हणून त्या काढायच्या नाहीत खरोखरच ती कवितेची गरज असेल तर तशाच ठेवायच्या.'' एखाद्री गाळ लेगीत कवितेंत मुदयेर थीक कशी येता.

आतां शद्बांची साधना वा अभ्यास म्हळ्यार कितें तें पळोवया. शद्ब आमच्या कानार नित्याच्या व्यव्हारांतल्यान पडटात आनी पुस्तकांच्या वाचनांतल्यान आमी शद्बांच्या लागीं येता. सर्वसामान्य मनीस भास आयकता आनी वाचता. कारण कवी आनी ताचे भितर भाशेकडेन पळोपात फरक आसा. कवीच्या कानार एखाद्रें उतर पडटकच ताच्या अर्थाचें सौंदर्य आनी नादाचें रूप ताच्या लक्षांत येता आनी केन्ना तरी तें उतर आपली सुवात सोदीत कवितेंत येता. पांडुरंग भांगी हांचे 'भूंय तुजी पिकाळ' हे कवितेंत 'तन्नी होंकल दिखाळ' अशी एक वळ आसा. ती खंय ताणी एके भोरेकान्नीच्या तोंडांतल्यान आयकली आनी तांचे कवितेंत ती तशाचे तशी आयली. एखाद्री नुस्तेकान्न 'चोय ही कल्ली चान्ने कशी चकचकता' अशें सहज म्हणून वता तेन्ना तातूंत एखाद्रें कवीक काव्य दिसता. ती भोरेकान्न आनी नुस्तेकान्न दोगांय अशिक्षित. पूण तांचे भाशेंत कविता आसा.

एक एक फावट दुसरे भाशेंतलीं उतरां कवी सहजतायेन आपलीं करता. 'रझावांच्या दिव्या म्हज्या/ऊप रे सगळ्यो पलतडी' अशें भांगी रझांव हें पुर्तुगेज उतर वापरता तेन्ना तें अस्सल निजाचें जाता.

अशेतरेन कवी शद्बांचेर प्रभुत्व मेळयता. तो भाशेकडल्यान घेता आनी घेतलां ताचे परस चड तो भाशेक परत दिता.

'कुमार गंधर्वः मुक्काम वाशी' हें पुस्तक संगीतासबंदान आसलें तरी कुमारान एकूण कले सबंदान चिंतन केलां. कवीनी कित्याक वाचचें न्हय हें पुस्तक?

१८.३.२२

आपले कवितेच्या प्रेमांत पडप हें कवीच्या उदरगतीक मारक. तो आपले कविते भोंवतणी आनाळ्यो गुनाळ्यो काडपाक लागता आनी लोकां कडल्यान ताळयो घेवपा खातीर एकेच तरेच्यो कविता पाडूंक लागता. ताचो दुसरो पांवडो कविता संग्रहाचो आंकडो वाडवप. ताची एक देख म्हळ्यार र. वि. पंडित. तांच्या कविता संग्रहांची फक्त नांवां मेळटात. पूण प्रत्यक्षांत ते संग्रह दिश्टी पडनात. 'ल्हारां हो संग्रह म्हळ्यार पयल्या पांच संग्रहांचीं पानां कापून ताका नवें कवर घालून नवो संग्रह केला. फक्त पांच काय स कविता छापून ताका जोडल्यात. अशें करून ताणे कितें सादलें? आपले कवितेचें नुकसान केलें.

१२.५.२२

आजकाल समाज माध्यमांचेर आमच्या कांय कवींच्यो कविता वाचपाक मेळटात. तातुतले कांय कवी साठी हुपिल्ले आनी साहित्य अकादेमी सारकिल्यो तस्वीपो जोडिल्ल्यांचो आस्पाव आसा. तांच्यो ह्यो कविता वाचतकच खंत दिसता आनी अत्यंत सामान्य पांवड्याच्यो कविता कित्याक बरोवंच्यो असो प्रस्न पडटा. खरें म्हळ्यार ताणी आपल्या सुरवातीच्या काळांत अत्यंत अर्थपूर्ण आनी आशयगर्भ कविता बरयल्यात. तातूंतल्यान व्यक्त जाल्ल्या अणभवांची खरसाण आजूय त्यो वाचतना मनाक खोल जाणवता. तांची ताजबाण इल्लीय उणी जावंक ना हें म्हत्वाचें. मागीर काळा बरबर ही कविता खंय शेणली?

एक खरें संवसारांतलो खंयचोय कवी आसलो तो एकसारको वाडत वचना. ताची वाड एके विशिश्ट जाग्यार थांबयता. झाड वाडटा आनी मागीर ताची वाड खुंट्टा. तें उबें वच नासतना आडवें वाडटा. रवीन्द्रनाथांक ताची जाण जाली तेन्ना आपले सृजनाक चित्रकलेच्या माध्यमातल्यन वाट करुन दिली आनी संवसारीक नामना चित्रकलेच्या मळार जोडली.

म्हाका दिसता अशा वेळार कवीन फाटीं वळून आपले कवितेकडेन तटस्थ रावन पळोवचें. आपूण खंय आशिल्लों आनी आतां खंय पावलां हाचो सोद घेवचो. ते भायर वाचनांतल्यान हेर भासांतली कविता खंय पावल्या हाचो वेध घेवचो. आमच्या साठींतल्या कविनी मराठी, हिंदी वा हेर भासांतल्या तिशी हुपिल्ल्या कवींची कविता मुजरत अभ्यास म्हूण वाचल्यार बरें जातलें. खासा अशा वाचन अभ्यासाचो म्हाका लाव जालो. वाचनाचेर मर्यादा घालप म्हळ्यार आपल्या पायांर फातर मारुन घेवप. आमचे कवी तेंच करतात अशें म्हणचें पडटा. समाज माध्यमाचे वाचपी तुमकां चण्या झाडार चडयतले आनी चडयतात हाची जाणीव तुमकां आसूंक जाय.

**माधव बोरकार**

संपर्कः 9420222876

***

# कवी आनी कविता

## परेश नरेंद्र कामत



॥ १ ॥

'धुमकेतू' सारकी अस्सल कविता बरोवपी कोंकणींतलो आधुनीक कवी शंकर परूळेकार हाचो एकूय कविता संग्रह उजवाडाक आयलो ना. परूळेकारान जबरदस्त आशयाच्यो अस्तित्ववादी कविता कोंकणींतल्यान बरयल्यो. ज्या काळार आमचे कोंकणी कवी पारंपारीक पद्धतीन रोमँटीक कविता बरयताले, त्या काळार हो कवी काळाच्या बरोच फुडें आशिल्लो. एकाद्र्या कवीन काळाच्या फुडें आसप हें त्या कवीचें दुर्दैव काय त्या काळाचें?

मराठींतलो दिलीप चित्रे, अरूण कोलटकर, वसंत आबाजी डहाके सारके कवी लिटल मॅगझीनांतल्यान फुडें आयले. ते मराठी कवितेन नवो आशय, नव्यो जाणिवो, नव्यो संवेदना घेवन आयले. तेन्ना परूळेकार त्याच तोलाची आधुनीक कविता कोंकणींतल्यान बरयतालो.

शंकर परूळेकार कविता उजवाडाक हाडपा विशीं निरस आशिल्लो. काय कवी डायरेंत, वांयडेंत बी कविता वेवस्थीत बरोवन दवरतात, पूण परूळेकार बसींच्या तिकेटांचेर, सिगारेटच्या पाकीटाचेर वा कागदाच्या चिटाऱ्यांचेर बी कविता बरयतालो. म्हणचे बरयल्ली कविता वेवस्थीत सांबाळून दवरपा विशीं तो व्हडलो इत्सूक नासतालो.

आज शंकर परूळेकार वचून बरींच वर्सां जालीं. ताच्यो स्फूट कविता तितल्यो केन्नाय वाचूंक मेळटात. ताच्यो समग्र कविता खंयच वाचूंक मेळनात. शंकर परूळेकार सारको कोंकणींतलो ताकदीचो कवी असो अज्ञातवासांत उरलो तें पळोवन खंत जाता.

॥ २ ॥

पांडुरंग भांगी हो कोंकणींतलो एक म्हत्वाचो कवी. ताचे मेजून तीन कविता संग्रह उजवाडाक आयले. 'दिश्टावा', 'अदृश्टाचे कळे' आनी 'चांफेल्ली सांज'. ते तिनूय कविता संग्रह आज दुर्मीळ जाल्यात.

म्हजी पांडुरंग बाबा कडेन वळख जाली बरोच उशिरा. तेन्ना ताणीं पिरायेची सत्तरी हुपिल्ली. पांडुरंग बाब हे कोणा कडेन चड उलोवपी न्हय. आत्मसंग्र म्हणल्यार जाता. पूण व्यासंगी आनी कवितेचे रसीक वाचपी. म्हजे कडेन वळख जातकीच ताणींच म्हाका एक दीस सांगलें कीं, ताचें आजोळ कुडय- आनी ज्या कामतींच्या घरांतलो आपूण नातू त्याच घरांतलो तुजो बापूय (नरेंद्र कामत) नातू म्हणून आनी हांव आयकून च्याट पडलों. तेन्ना सावन आमची वळख आनीकूय दाट जाली.

पांडुरंग बाबाक 'चांफेल्ली सांज' ह्या कविता संग्रहाक साहित्य अकादेमी पुरस्कार फावो जालो तेन्ना हांवें ताका प्रत्यक्ष मेळून परबी दिली. तेन्ना ताणीं म्हळें: 'खरें म्हणल्यार हो पुरस्कार आपल्या 'अदृश्टाचे कळे' ह्या पुस्तकाक दिवपाचो. ताका मेळिल्लो जाल्यार आपल्याक बरें दिसपाचें.'

एकदां कला अकादेमींत साहित्य अकादेमीचें एक भौभाशीक कविसंमेलन आशिल्लें. भांगी बाब त्या कार्यक्रमाक आयिल्ले. डॉ.किरण बुडकुले कवितेच्या सत्राची अध्यक्ष आशिल्ली. ह्या सत्रांत हांवें काय कविता वाचल्यो. तातूंत 'प्राक्तन' ही एक कविता आशिल्ली. कविसंमेलन सोंपतकीच भांगी बाबान म्हाका मेळून सांगलें: 'अशेच तरेची एक विशयाचेर बरयल्ली कविता पुर्तुगेजांत आसा. कवीचें नाव आतां याद जायना. पूण तिचो आशय वेगळो, तुजे कवितेचो वेगळो.' आनी मागीर मानेक पडिल्ले वरी म्हजे कडेन पळेत रावले. फुडें काय उलयले ना.

एक दीस अशेंच कला अकादेमींत मेळिल्ले कडेन ताणीं म्हाका म्हळें: 'आमका आतां कोण खबरायना. आमच्या मताक काडयेची किमत ना. आपली कविता लेगीत कोण वाचीना...'

तांचो निर्शेणेचो सूर आयकून हांवें म्हळें: 'आमी आसात ते! आमी तुमची कविता बारीकसाणेन वाचतात. म्हाका तुमची कविता आवडटा.' ताका कितें दिसलें कोण जाणा, ताच्या तोंडार अजापाचो हयन्हंयसो हांसो झळकल्ले वरी दिसलो.

॥ ३ ॥

माधव बोरकार खूब ल्हान पिरायेचेर कोंकणींतल्यान कविता बरोवंक लागिल्लो. सुमार १५ वर्सांचे पिरायेचेर 'आसूंय निळे न्हंयचे दंगर | एक पिंपळाचें झाड' सारकी contrasting imagery आशिल्ली सुंदर ओळ ह्या कवीन १५ वर्सांचे पिरायेचेर बरयली.

म्हजो जल्म २८.०३.१९६८ वर्सा जालो. माधव बोरकार जेन्ना निकतोच कविता बरोवंक लागिल्लो तेन्ना हांव पाळण्यांत घालतालो. कवी रामाणी हो माधव बोरकाराचो ते पिरायेर सावन इश्ट. रामाणी आनी ताचो घरकार अपरबायेन माधव बाबाक 'ल्हान कवी' म्हणटाली.

पिरायेच्या १८-१९ वर्सां मेरेन म्हाका कवितेचो कसलोच गंध नाशिल्लो. बारावेक पणजेच्या धेंप कॉलेजींत सायन्साक शिकतना हांवें एक विशय मराठी घेतिल्लो. प्रा. कुलकर्णी आनी प्रा. घर्वे मराठी गद्य आनी काव्य शिकयताले. हांव कविता जिवार येवन म्हणटा तशी शिकतालो. हे पाडपडिल्ले कवी कित्याक ह्यो कविता बरयतात आनी मागीर त्यो आमका झक मारीत शिकच्यो पडटात हाचेर कॉलेजाच्या कँटीनांत आमच्या इश्टांची चर्चा चलताली. घर्वेन कितल्याय मोठ्या आवाजान कविता वाचली तरी ती निमाणे रांकेंतल्या आमचे मेरेन कशीच पावचीना हाची आमकां खात्री आसताली. आमी हांगां ज्या पिरायेचेर कवी आनी कवितांची टिंगल उडयताले आनी ते वटेन तेच पिरायेचेर माधव बोरकार रामाणी बरोबर कवितेचेर गंभीर चर्चा करतालो.

माधव बाबाच्या कवितांचें ताच्या बापायक खूब कौतूक. 'चवर' हो माधव बाबाचो पयलो कविता झेलो ताणीं अपरबायेन छापून हाडलो

आनी मागीर माधव बाबान फाटीं वळून पळेलें ना. कवितेचोच न्हय, तर संगीत आनी चित्रकलेचो लेगीत तांणी बारीकसाणेन अभ्यास केलो. कवितेचो एकसारको ध्यास घेवन तांणी पांच दसकां वयर कविता बरयली.

आज कवी रामाणींचो हो 'छोटा कवी' कोंकणींतलो 'बडा कवी' जावंक पावलो ताचें कारण माधव बाबांची कविते वयली निश्ठा आनी साधना.

॥ ४ ॥

कोंकणींत खूब वर्सां आदीं लेखकाच्या पयल्याच पुस्तकाक साहित्य अकादेमी पुरस्कार मेळटालो. त्या काळांत आयिल्लो गजानन रायकार हांचो गोंयच्या लोकवेदाची फाटभूंय आशिल्लो 'बनवड' हो संग्रह खऱ्यांनीच उत्कृश्ट आशिल्लो. त्या संग्रहाक साहित्य अकादेमी पुरस्कार मेळ्ळो ना. आज परिस्थिती वेगळी आसा. सुमार ३५० ते ४०० पुस्तकांतल्या एका पुस्तकाक हो पुरस्कार मेळटा. साहित्य अकादेमीचो पुरस्कार हें 'लॉलिपॉप' म्हणटल्यांनी हें घट बरें लक्षांत दवरपाची गरज आसा. कारण नवी दिल्लीची साहित्य अकादेमी ही संस्था म्हणल्यार 'लॉलिपॉप' विकपी गाडो न्हय.

पुंडलीक नायकाची 'अच्छेव' ही कादंबरी जेन्ना 'जागा'न उजवाडायली तेन्ना तिका १००% साहित्य अकादेमी पुरस्कार फावतालो. पूण पुंडलीक बाबाक पुरस्कार दिवंक ना. हाचें कारण तांचे परस पिरायेन व्हड आशिल्ले जायते लेखक हे सर्तींत आशिल्ले. पुंडलीक बाबाच्या म्हणण्या प्रमाण जर अच्छेवाक सा अ पुरस्कार दिल्लो जाल्यार आपूण त्याच नेटार आनिकूय कादंबऱ्यो कोंकणींतल्यान बरोवपाचों. कांय लेखक काळाच्या फुडें आसतात. पुंडलीक नायक तातूंतलो एक. निमाणें तांच्या 'चौरंग' ह्या एकांकीच्या पुस्तकाक हो पुरस्कार दिवचो पडलो.

'अच्छेव' हे कादंबरीचो आनिकूय मोठो (राजकीय आनी समाजीक नदरेन) विस्तार जावं येतालो. पूण कादंबरीचीं पानां वाड्टात आनी येदी व्हड कादंबरी (अर्थीक कारणाक लागून) छापप प्रकाशकाक परवडना म्हणून लेखकाचेर बंधना पड्टात. 'मीन पिकलां खाणयांनी' ह्या नांवान ती हाचे आदीं 'जाग' नेमाळ्यांत सिरियलाज्ड जाल्ली. ही कादंबरी ज्या रूपान छापल्या तीच छापपाक सुमन्त बाबांक हेवटेन तेवटेनच्यान कशेतरी पयशे उबे करचे पडले. त्या काळांत कोणाच कडेन पुस्तक छापपाक इतले पयशे नासताले. 'जागा'न आमच्या कोंकणी लेखकांक उजवाडांत हाडपाक पदरचे पयशे खर्च केल्यात. 'जागा'न छापिल्ल्या कांय पुस्तकांचे गठ्ठे अजुनूय पिरवळा रवीन्द्र बाबाल्या घरांत पडून आसात. सुमन्त बाबाल्या घरांतलीं सगळीं पुस्तकां, जागाचे पोरणे अंक, लेखकांचो पत्र वेव्हार वायटींनी खावन फस्त केलो.

॥ ५ ॥

**आवय गेल्या उपरांत**

*आवय गेल्या उपरांत*
*उजो लेगीत लासूंक शकना आवयक*
*इतली खर धग आसता सुख-दुख्खाची*
*आवयच्या काळजांत*
*पूण सुलूस लायना कोणाकूच त्या धगाची केन्नाच*
*रावता फुलयत जिणेंतल्या वाळवंटांत उदकाचीं फुलां*

*आवय सोंशीत रावता सगळे भोग, उतळताप...*
*मोग-मायेच्या पालवांत भुरग्यांक सांबाळत*
*ओतीत रावता फकत सुखां*
*भुरग्यांच्या पोशांत तृप्त-तुडूंब जावन;*
*अनंत आशिर्वादाचो प्रसाद...*
*आनी झुळझुळत झऱ्या सारकी रावता व्हांवत*
*भुरग्यांच्या काळजांत निरंतर...*

*आवय गेल्या उपरांत-*
*अचकीत भुरग्यांक येता न्हिदेंतल्यान जाग :*
*सपनेल्ले वरी लागता दिसूंक दोळ्यां मुखार भुरग्यांच्या*
*रखरखीत रेंवटांत*
*पयस उबी आशिल्ली आवय*
*पाचवेंचार उदकाचें मृगजळ कशी...*

*****

**श्री. एस. डी. तेंडुलकार बाब,**

फाटल्या पस्तीस वर्सांत हांवें बरयल्ल्या कवितांचो हांव जेन्ना विचार करतां तेन्ना 'आवय गेल्या उपरांत' ही कविता एके certain काव्यात्म उंचायेर गेल्या अशें म्हाका दिसता. मरणाचो स्पर्श, आनी तोवूय आवयच्या, कवीचें व्यक्तिमत्वूच पुराय बदलून उडोवंक शकता इतलो तो अणभव तीव्र आनी खोल अशें हांवें तुमकां बरयल्लें.

ताचेर तुमीं बरयतात: ''आवयचें मर्ण आनी आवयच्या मर्णाचेर बरयल्ली कविता हातूंत फरक आसा तो fact आनी recreated fact हांचो. 'आवय गेल्या उपरांत' ही कविता 'एके certain काव्यात्म उंचायेर गेल्या' अशें तुमकां कित्याक दिसता? आवयविशी तुमची एक भावनिक involvement आसा म्हणून? हो मर्णाचो अणभव तीव्र आनी खोल हें हांव समजुंक शकता, पूण तो अणभव कवीचें व्यक्तीमत्वूच पूरायेन बदलून उडोवंक शकता हें मात पटना. ही romantic काव्यात्मक फटास अशें म्हाका दिसता. फाटल्या पस्तीस वरसांतल्यो तुमच्यो कांय कविता, हे आवयच्या मर्णाविशी बरयल्ल्या कवितेपरस अदीक सरस आसात अशें म्हजें निरीक्षण.''

खरें म्हणल्यार, 'आवय गेल्या उपरांत' ही कविता म्हजी आवय भायर पडल्या उपरांत चार दिसा उपरांत म्हाका सुचली. आवयच्या मरणाच्या दुख्खांत आसतनाय ते कवितेंत कसलीच भावविवशता येवंक ना. उरफाटें एक तटस्थपणान तो अणभव कवितेंत आयला. अर्द न्हिदेंत आनी अर्द जागृतावस्थेंत आसतना ती कविता बरोवन जाल्या. दुसरें म्हणल्यार, ती कविता बरयतना हांव बरोच अस्वस्थ मनस्थितींत आशिल्लों अशा वेळार कवीचो अणभव चड आत्मकेंद्रीत जावपाची शक्यताय आसता. तसो तो हे कवितेंत जावंक ना. उरफाटो तो आवयच्या मरणाचो अणभव सार्वत्रिक जाला अशें म्हाका दिसता.

कवितेंत म्हजे आवयचें अस्तित्व आयलां पूण ते कवितेंत खंयच म्हजे आवयचो उल्लेख ना. ती कोणायच्याय आवय जावंक येता. आनीक एक गजाल कविता वाचतना म्हाका जाणवता ती म्हणल्यार, हे कवितेची भास. हांव सदा वापरता त्या भाशे परस हे कवितेची भास वेगळे तरेन आयल्या.

ते कवितेचेर बरयल्ल्या लघुलेखांत हांव एक वाक्य बरोवन गेला. ते अशें ... म्हजी आवय गेली... पूण सामकी खातीर म्हजे कवितेंत आपलें अस्तित्व दवरून गेली... पूण हें वाक्य कवितेची ओळ म्हूण येवंक ना हय लक्षांत घेवंचे पडटलें. हाचोच अर्थ कवी आपल्या आवयच्या मरणाचो अणभव 'पर्सनल' करून उडयना; तो अणभव सार्वत्रिक जावचो अशें कवीक दिसता.

सगळीं एका सामकेकान नदरेंतल्यान म्हजे कविते कडेन पळोवंक शकतात तशें कवी म्हूण हांव पळोवंक शकना. कारण कवी स्वता आपले कवितेच्या संबंदान बरोचसो biased आसता. कांय कवितांच्या बाबतींत कवीचो soft cornerय आसूंक शकता ही गजाल हांव नाकारूंक शकना. तुमका कविते विशीं म्हजें हें मत पटलें अशी आस्त बाळगितां. तुमच्या स्पश्ट आनी परखड मता खातीर देव बरें करूं.

संपर्क: 9422640210



*(पान ५ वयल्यान)*

हांव हांसतालो. तुजे इतलीं आवडनात अशें म्हणटालो. इफ्फीच्या तिकेट रांकेंत उबें रावीहूं माधवी बोटल्यांतल्यान जागाची प्रुफां काडून ताचेर नदर मारतालें. वेळ वगडायनासलें. निरंतर कार्यमग्न आनी उद्यमी अशें हें माधवी.

वळेसर ह्या म्हज्या पुस्तकांतले तत्वचिंतनात्मक निबंद माधवीक आवडटाले. हांवें तसलें गंभीर स्वरुपाचें लिखाण सदांच करचें असो ताणें जायत खेंपे आग्रो करचो. हांवें मागीर ताका सांगचें - असलें बरप खूब जाणाच्या तकलें वयल्यान वता गो. थोड्याक तें कठीण लागता जाल्यार थोड्याक दुर्बोध तें आसूं. तू बरय... असो ताचो आग्रो आसतालो.

यादींक म्हण अंत आसता? माधवीची बुद्धीमत्तेची चमक, ताची थडाय, काम करतनाची ताची एकाग्रता, ताच्यांतलें सादेपण, स्वतंत्र विचार मांडपाची ताची धिटाय, मायेन गोडसाणीन कोणाकूच दुखयनासतना सगळ्या थरांतल्या मनशां कडेन संकळपणान, निर्मळपणान उलोवपाची ताची पद्दत, ताताची आनी कोंकणीची भक्ती ह्यो सगळ्यो यादी मुकिल्ल्या वोंवळां भशेन परमळ दित आसात...

संपर्क : 9545827662




MASTERING GENERAL KNOWLEDGE I

MASTERING GENERAL KNOWLEDGE II

MASTERING GENERAL KNOWLEDGE III

MASTERING GENERAL KNOWLEDGE IV

MASTERING GENERAL KNOWLEDGE V

# WIDEN YOUR HORIZON

## Mastering General Knowledge

THESE BOOKS COVER:

- Animals
- Birds
- Calendar
- Communication
- Computer
- Directions
- Flowers
- Fruits
- Games
- Insects
- Instruments
- Naming Persons
- Numbers Fun
- Olympics
- Our Body
- Our Country
- Our Earth
- Our Food
- Our State
- People
- Personalities
- Quick Thinking
- Relations
- Religions
- Shapes
- Signs And Symbols
- Time
- Trade Names
- Vegetables
- Vehicles
- Weather
- Weights And Measures
- Wildlife




**RAJHAUNS SANKALPANA PVT LTD**

1-Meenakshi Bldg, Dr. Wolfango da Silva Marg, Panaji 403 001. Ph. 2220320 / 2232177

E-mail: rajhaunsgoa@gmail.com | www.rajhauns.com



# कांय कोंकणी कवींच्या कवितांचो खोलायेन अभ्यास

राजश्री महाबळेश्वर सैल

गाब्रियल गार्सिया मार्केझान एककडेन म्हळां, 'Bad poetry is very important because you can only get to good poetry by means of bad poetry.'

चित्त ओडून घेवंक मार्केझान विधान परतें केलां, पूण खरें म्हळ्यार बरी कविताच मुखेल आसता आनी ती कळूंक लागतकच आमी वायट कविता खंयची तें वळखूंक पावतात. बरी कविता श्रेष्ट अश्या मानवी संस्कारांक हात लायता. एक बरी कविता सामाजीक अन्याय आनी शोषण हाचें वर्णन इतलें बळिश्ट तरेन करता कीं, आमची सहानभुति बऱ्यापणाचे वाटेन आनीक घटमूट जाता. आनी आमच्या मन आनी बुद्दिचेर पातळटा ती फकत वयले वयर त्रास दिना तर तातूंतल्या पिडेचो आमी भोव खोलायेन अणभव घेतात. जीवन आनी भाशा सतत बदलता आनी ह्या दोनांयकडेन घट्ट रितीन जोडिल्ली गजाल म्हळ्यारच कविता.

२१ शेकड्यांत घडिल्लें जिवन परिवर्तन, विचार परिवर्तन, बदलिल्ली नितिमत्ता हाचें पडबिंब आमकां ह्या शेंकड्यांतल्या कोंकणी कवितेंत दिसता. कवितेची ही दुसरी परंपरा गांव, शेतां, मांड, कुळागरां, स्वतंत्रताय, दर्यावेळो हे विशय सोडून दिवन, ही कविता आत्ममग्र-तत्वगिन्यानी जाता. सैम आसाच पूण सैम हेंच निमणें ultimate truth अशे सांगत ती ध्यानमग्र जाल्ली दिसता. ह्या कवितांनी कविचें व्यक्तित्व सर्वाधीक प्रखरपणान येता. नव्या जाणिवेचें फुल्लट सृजन घेवनच ही कविता येतनां दिसता.

२१ शेंकडो काव्य लिखाणाखातीर योग्य ना. जिण विस्कळित जावंक लागल्या. मनां सुकूंक लागल्यांत. जिण चंगळवादी, भोगवादी चड घुस्पागोंदळाचे जावंक लागल्या आनी जिणेची ही अवस्था आपल्या कवेंत घेवंक कविता उणी पडटा, ताका कादंबरी सारको व्हड पट आशिल्लो साहित्य प्रकारच जाय असो निराशवादी सूर साहित्यमळार आयकूंक येता.

पूण आमी एक विसरतात खूब कठिण विषण्ण परिस्थितींतच म्हान काव्य कृतीचीं रचना जाल्ली. मृत्यूचो आक्रोश निरंतर एक वटेन चलतनाच जिणेची पालवी एक वटेन फुटून तातूंतल्यानच खोशयेची लुसलुशीत कोमरी भायर सरता, तशी कविता आसता. जिण आनंदमय करपाचें, जिणेच्या सुक्या खरखरीत तळपाचेर आशेची विस्वासाची कोमरी किलूवपाचें काम कविता करता. २१ शेकड्यांत कांय नव्यो प्रवृत्ती बळूक लागिल्ल्यो दिसतात. उपभोक्तावादी प्रवृतींत वाड जाली. बाजारू स्वभाववृत्ती वाडली. आत्मिक जिण सदळ जाली. व्यवसायिक नदरेंतल्यान दर एके गजालिचो विचार करप सुरु जालें आनी ताचो खूब खोल असो परिणाम आमच्या वागणुकेचेर आनी आमच्या आपसांतल्या संबदाचेर पडलो.

निजी सुवार्थ मुखार दवरून चिंतप वाडलें आनी ताका लागून मनशाल्या हिंसक प्रवृतीत वाड जाली. उदरगतीच्या कुड्ड्या धांवडेत आमी मनीस म्हण पर्यावरणाकच न्हय तर ताचेर आदारून आशिल्ला समेस्त ल्हान, व्हड जीव प्राण्याचे जिवन अस्तित्व धोक्यांत घालें.

प्रसार, प्रचार माध्यमाचीं साधनां यातायात हाचो विकास ह उदरगतीच्या धांवडेंत एक आशादायी किरण कशें दिसता. संवसारा खंयूय जावपी अन्याय अत्याचारा आड विरोध करपाखातीर झट कर एकजूट जावपाखातीरचे हें एकमेव अस्त्र. अश्या ह्या खिणांखिणा आंग कात बदलपी २१ शेकड्यांतली कविता हो अभ्यास करपासारक विशय.

आशय, जिवन अणभव, जिवन तत्वगिन्यान, मौलीक व्याप जिवन दृश्टी, नवी समृध्द शब्दकळा नव्या तरेन दिवपी कोंकणी मेजकेच कवी आसात.

परेश कामत हो कोंकणींतलो म्हत्वाचो कवी. कवी परेश काम सगळ्या मूर्त स्वरूपाक सौंदर्याचो स्पर्श दिवनच कवितेंत हाडटा. एकपरीन सृजनाचोच ध्यास. नवनिर्मिती आनी सृजन हातूंत मुळा फरक आसा, सृजन कलेक सौदर्य दिवन भावगर्भ करता आनी कले आनंद दिता. परेशाली कविता फकत नवनिर्मितीच न्हय तर आशयग सृजन. हो दिव्यात्म दैवी तांकीचोच एक भाग आसता तरीय ती कवि निश्चेष्ट नासता. ती चित्रां दाखयता, नृत्य करता. प्रसंग सांगता, सृजना जिवे करपाची ही कळाशी दैवीच आसता. तांची खंयचीच कवि मृत आत्महीण जायना.

रितेपण एकसुरेंपण सगळेच अणभवतात. पूण परेशाच्या कविते एकसुरेंपण रानांच्या मळबाच्या दोंगर देंगणाच्या भव्यतेमेरेन पाव आनी तें चडच गडद गाड जायत वता. वाचक त्या रितेपणात एकरू जातात. भावनात्मक संवेदनशीलता, रूपकां हें परेशाल्या कविते खाशेलेंपण. रूपकान गडगंज भरिल्ली अशी तांची कविता, रूपकसंपन्न तांची कविता रानांवनांतल्यान मळब दर्यातल्यान भोंवता. सैमा गोपांत घेता. फुलाच्या फुलपांतय ताका गाज आयकूंक येता. 'झाड' ी कविता शुंभकर कविता झेल्यांतली.

ह्या कवितेंतलें हें झाडाचें रूपक कितलें मनभुलायणे विलोभनी जालां,

*हांव पळेता*
*तुजेकडेन गर्भखोल नदरेन*
*तुजें अळंग मन*
*येता आनीकूय म्हजेलागी*
*ज्या फुलाखातीर*
*हांव रावता*
*त्या फुलाचे*
*तूं झाड जाता.* (शुंभकर-झाड ५)

ह्या सैम सान्निध्याक सैम वांगडपणाक लागून तांची कविता जिव

सगळें जाता. ताच्या कवितेचें खेरीतपण म्हळ्यार ती चवथेच्या पाठांत बाळबोध रितीन शिकोंव येता. तशेंच हुशार विद्वानाच्यानय ताची अर्थवणी करूक जावंची ना.

जिवनाच्या कोडू परिस्थितींतय कवी हार मानिना. केन्ना क्रांतिकारी जाता. पुण धैर्य हारना इतलेंच न्हय पुराय मनीस जातीक हिम्मत ना हारपाची प्रेरणा दिता.

जैत पयस आसतना ती अन्यायाआड झुजतनां खरशेना. तिका साधी काव्यात्म करचो यत्न कवीन करचो पडटलो ना जाल्यार ती घडये शेवटमेरेन तिगचीना. ती अर्थपूण आसा विचारपूर्ण आसा संवेदनक्षम आसाच अशें म्हणूक जावंचे ना.

*केन्ना सावन यत्न करता हांव*
*एक किंळाच बरोंवपाक*
*त्या अबलांची किळांच*
*दर एकदां ताचो खून घडटना*
*केन्ना दर्यादिगेर तर केन्ना शेतोडेंत* (दंडकारण्य-किंळाच)

गद्द साहित्यातल्या संदर्भातलें हातूंत सगळें आसा. पूण हांव सोदतां कवितेचो आत्मो आनी काव्य काव्यात्मकता, तांची भाशाशैली काव्य आनी गद्द हांच्या सिमेरेशेवेली. केन्ना तो समकालीन जाता केन्ना इतिहास पुराणांत रिगता. तांची प्रकृती गद्द साहित्यकाराची अशें म्हाका भोव प्रखरपणान जाणवलें. काव्यात्म कलात्मकतेची वर्जी तांची कविता पेलूंकच शकना. एकाच खिणात वैश्विक आनी सामकी थळावी जावपी अशी तांची कविता. इतल्या विरक्ततायेन शुन्यतायेच्यो खबऱ्यो सांगपी हो कवी सुंदर प्रेम कविता बरयता. प्रेयसीचे नितांत सुंदर अशें चित्रण ह्या कवितेंत येता. दादल्याच्या जिणेची दिका बदलपाची तांक अस्तुरेमदीं आसता हो तांचो ह्या प्रवाहांतलो आत्मविस्वास कितलो थाकाय दिवपी.

आयजूय हांव बसलां म्हजी डायरी चाळीत
तुजे पुराय मुखामळ कशेच म्हजे नदरेक पडना
शब्दातल्यान, ओळींतल्यान, पानांपानांतल्यान
हांव धांवत आसा
म्हजी दरेक कविता तुका मारिल्लो उलो आशिल्ली
खंयच्याय म्हज्या शब्दाचेर, ओळीचेर वा पानाचेर
तुजो ओ मेळिल्लो जाल्यार
म्हज्या जिणेची दिकाच बदलपाची....... (दंडकारण्य)

बायल, सीता, बँडिट क्वीन, कुंती ह्या कवितांनी तो आयच्या आनी इतिहास काळातल्या बायलांचेर जाल्लें अन्याय आनी तांच्या मनांतलो विद्रोह मांडटा. स्त्रीकेंद्री कविता बऱ्याच तांकीन आनी धिटायेन मांडपी निलबा खांडेकार हो कोंकणीतलो एकमेव कवी. वामनागेर पिळग्यान पिळग्यो आयदनां घासपी सीता धरुन, व्यासान प्रतीभेच्या बळग्यार तयार केल्ल्या अस्तुरेच्या मनांतलो धगधग, सोशिकता, अन्याय मांडटना कवी प्रस्नार प्रस्न करता.

रमेश वेळुस्कार हे वयर अभ्यास केल्ल्या कवीपरस वेगळ्या काल प्रवाहांतले कवी. तांचो 'झेन कविता' हो काव्यसंग्रह हांगा विचारांत घेतला. कवी हाका झेन कविता म्हणटा म्हण हें खरें मानप कांय कितें हाचेर बारीकसाणेन वेगळो अभ्यास जांव येता हांव म्हणन संवेदनशीलतेच्या तेंगशेर रावन एका अदभूत विलक्षण अश्या काव्य तद्रेंत अवस्थेत बरयल्यो ह्यो सैम कविता

सैमांत दर एका कठीण घुस्पागोंदळाच्या प्रस्नाक एक नितांत सुंदर कलात्मक जाप आसता आनी ह्यो कविता म्हळ्यार सैम साक्षात्कार. तो कवीक भोव भव्य दिव्य तरेन जाला. पिकेपणाच्या तुडूंब भरगच्च अवस्थेंत तपस्वी योगी कवींन केल्लें जिवन आनंदीत करपी परिपुर्ण करपी सैम सानिध्य. ह्यो कविता म्हळ्यार कोणाकय आयकूंक येवंक शकता असो निर्मळ निरामय नितात सुंदर असो सैम उलो. सैम मोनो आसता जो मनीस ह्या मौनाक स्पर्श करूंक ताकता तो तपस्वी, रूशी, महारूशी जाता. ह्या ध्यान मग्नतायेक रसीकांमेरेन पावोवपाची ताकद आशिल्लो हो एकमेव कोंकणी कवी. सैम सृजनाच्या तळ्याकांठार बसून सैम सौदर्याची धुंद मिरयत बशिल्लो.

*सोद सोद सोदता*
*तूं मेळून मेळना*
*म्हूण मोन्यानी बसता*
*आनीक तेन्ना*
*मनांत तूच तुडूबं आसता* (झेन कविता)

सैमाचें हें तुडूंबपण, जिवनाचें हें तुडूंबपण ताच्या कवितेंत भरूभरून व्हांवता, रसीकाक कलात्मक सौदर्याच्या तेंगशेर व्हरता.

*केन्ना केन्ना झेम पडना*
*तेन्ना हांव झाड जाता*
*आनी घराभायर येवन*
*पाय मातयेंत रोवन*
*उबो जाता*
*माथ्यार नकसूद नक्षत्रांची*
*गरम शाल पागरून*
*उब्यानीच ताणून दिता* (झेन कविता)

खरें म्हळ्यार ही कविता वाचनांत येमेरेन आमका झाड उब्यानींच न्हिदता ही कल्पनाच नासता. नेणवेंतल्यान आमकां एका वेगळ्याच जाणिवेच्या पातळेर ही कविता व्हरता. खबर नाशिल्ल्यो गजाली उमजूंक लागतात आमी भितरल्यान उलगूंक लागतात.

दोळ्यांक आकाराचें आनी मनाक निराकाराचें पिशें लागिल्लो हो कवी. कुचकुचीत मनशाच्या संकुचित वृत्तीच्या आवृत्यांनी अपरिहार्य जावन भोंवपी हें ताचें अपरिहार्यपण, सैमांतच एकरूप जावन सैममय जावंक पळयता. कोंकणींतलो हो खरो खुरो सैम कवी. ताची शब्द कळा शब्दमाधुर्य सगळें सैमगर्भित. नव्या उतरांची शब्दकळा भौ. वेळुस्कारान कोंकणी कवितेक दिल्या. इतले सुंदर विलक्षणीय अशें उतरांचें गांठवल, पोटली तो हातार दवरता. मन भुलूसून वता.

जिणेचे खोल सखोल तत्वगिन्यान साद्या सोप्या सरळ उतरांनी

मांडपी रमेशबाबाली कळाशी मंत्रमुग्ध करपी.

*मनीस जितलो धाकटो*
*तितलो तो दुर्गाकडेन देवाकडेन ओडटा*
*मळब इतले व्हडलें*
*ताका तुमी*
*केन्ना देवो पळयला*
*व्हडल्या गजालीक*
*दुंदु आसनात*
*वाऱ्यान म्हळें (झेन कविता)*

मळबाच्या व्यापकतायेची खोल मखोल उत्तायेची हाच्याकय आनीक कड व्याख्या आसूकच शकना.

कवयत्र्या कावतेन मळबाच्या अतंगाम्यांत अनंत समुद्रखोल मळावसाची नदर आशिल्ला कवी सेमचेतन्याक पुराय शब्दलावण्याची ताकीन हात लावपाची ताक आशिल्लो. पावस ताचेर बेस्तांन शिवरना पुराय मळबाचें मनस्वीपण आनी मळबाच्या स्पर्शाची अनंत ताक घेवन शिवंरना.

अश्या अदभूत विलक्षण शब्दसामर्थ आशिल्ले शब्दकळेक विविध आयामांतल्यान कळावपाची ताक आशिल्ले थळावपणावांगडाच विश्रान्त ज्ञावपी कोंकणी कवी कोंकणी भाशेंत आसतना कोंकणी मनीस परकी भाशेक माथ्यार घेना ही भाव खरेंची गजाल. खरें म्हळ्यार कोंकणीपणार गोंयकारपणार घाल्ली ही सांस्कृतीक धुरी. सांस्कृतीक आक्रमण. जातूत भाशेचो अस्त्र म्हण उपेग जाता. तुबका फागनी बॉम्ब गुळयांनी केल्ली धुरी परवडली. पूण ही सांस्कृतीक धुरी कोंकणीक परवडपाची ना. निमाणें भास तिगप म्हळ्यारच त्या भाशेचें साहित्य, संस्कृती तिगप.

**संदर्भ-**


- झेन कविता, रमेश वेळुस्कार, सहित प्रकाशन २००४
- शुभंकर, परेश कामत, सन्मित्र प्रकाशन २००९
- चित्रलिपी. परेश कामत. २०१३
- दंडकारण्य, निलबा खांडेकार, सुरु प्रकाशन २०११
- द वर्डस, निलबा खांडेकार, सुरु प्रकाशन २०१७
- History of Literary Criticism M.-.R. Habib Blackwell publishing2 005
- आलोचक के मुख से, नामवर सिंह, राजकमल प्रकाशन २००५


संपर्क: 9922265209

***


Goan
Linguistic Strength


₹ 3700/-


₹ 600/-


₹ 150/-



₹ 225/-


₹ 375/-


₹ 210/-



₹ 210/-

राजहंस
RAJHAUNS SANKALPANA PVT LTD
1-Meenakshi Bldg. Dr. Wolfango da Silva Marg, Panaji 403 001
Ph. 2220320 2232117 | E-mail: rajhaunsgoa@gmail.com
www.facebook.com/rajhauns | www.rajhauns.com

# मन कुशबनः पाड्डें बुडना

दादा हेगडे

भोज राजघराण्याच्या कारकिर्दीत आठव्या शेंकड्यांत म्हळ्यार जवळ जवळ २५०० वर्सा आदीं चंद्रवाडीच्या वाठारांत एका दोंगरार भोज वंशावळीचो कुळदेव श्री चंद्रेश्वर आनी श्री भूतनाथ हांची देवळां त्या राजघराण्याच्या लोकांनी बांदिल्लीं म्हणपाची नोंद मेळटा. हो दोंगर म्हळ्यार आयचो चंद्रनाथ पर्वत जो साष्ट तालुक्यांतल्या पाड्डें गावांत आसा. ३५० मीटर उंचायेच्या ह्या दोंगराच्या उदेंतीक लागसारच्यान कुशावती न्हंय व्हांवता. सांगे, केपें, पाड्डें, चांदोर ह्या गावांतल्यान व्हांवत ती शेवटाक कुरतरी हांगासर जुवारी न्हंयक वचून मेळटा. गोंयचें पयलें बंदर चंद्रपूर ह्याच न्हंयच्या देगेर आसलें. बंदराचो आवांठ चंद्रपूर ते पाड्डे मेरेनचो आसलो. ११व्या शेंकड्यांत देसांतल्या तशेंच देसाभायल्या व्यापाऱ्यांच्यो पातमाऱ्यो ह्या चंद्रपूर बंदरार पेणें करताल्यो. त्या वेळचो न्हंयच्या खोलायेचो अदमास हाच्या वेल्यान काडूं येता. अश्या ह्या उपाट भरून व्हांवपी न्हंयक पावसा दिसांनी आनी चड करून जुलय म्हयन्यात मोठो हुंवार येता. त्या वेळार लेगीत सगळो वेव्हार ठप्प जातालो. तसोच आतां लेगीत जाता. हुंवारात जावपी नुकसाणेक विटून कदंबराज वंशावळीतल्या जयकेश-१ हाणें १०५२ सालांत ह्या बंदराचें स्थान परिवर्तन केलें आनी तें गोपकापट्टनम म्हळ्यार आतांचें गोवा वेल्हा हांगासर हालयलें. एका वेळार हीच न्हंय तारी, व्हडीं, तारवां तशेंच देस विदेसांतल्यान येवपी व्यापाऱ्यांच्या पातमाऱ्यांक संवकळीची कशी आसली. एका संशोधनांत तर गोंयची ही कुशावती न्हंय फाटलीं पांच हजार मायज वर्सां सावन व्हांवत आसा असो निष्कर्ष काडला.



पावसांत हुंवार हो सगळ्या न्हंयक येता. कुशावतीचो हुंवार मात फाटलीं कितलेशेच शेंकडे 'पाड्डें बुडयता'. ह्या हुंवाराक जुवारी न्हंयक येवपी भरती सुकती कारण आसा. आषाढ म्हयन्यांत जुवारी न्हंयच्या जोरगती निमतान कुशावती न्हंयक आयिल्ली भरती आनी त्या दिसा पडपी उटांगार पावसाच्या धुमशेंणाचो मेळामेळ जालो तर पाड्डें बुडटा. हुंवारांचें उदक मडगांव सावन सांग्यार वचपी रस्त्यार, तशेंच अवेडे गांवासावन पाड्डें येवपी पुलाचेर आनी लागसारच्या आशिल्ल्या दुकानांनी, घरांनी भरता. पाड्ड्याक त्या वेळार जुव्यांचें कशें रूप येता. हाकाच लोक 'पाड्डें बुडलें' अशें म्हणत आयल्यात. हेर दिसांनी लेगीत जुवारी न्हंयच्या भरतेचें उदक पाड्डें मरेन पावता. पाड्डें आनी असोल्डा, चांदोर गांवांनी जुवारी न्हंयच्या जोरगतीचे खारट उदक आनी कुशावतीच्या गोड उदकाची भरसावणी जाता. ह्या वेळार नुस्तें गरोवंक एक वेगळीच मजा आसता. गरवणेक सावें नुस्त्यांतल्यो धाडी, खरची, वायसुळीं, घोळशी वांगडा दर्यातले शेवटे, चणकुलां, काळांदुरां फारवतातूच!!!

बुडप हो शब्द म्हाका विचित्र कसो दिसता. कोणाच्या मोगांत बुडप, कलामोगी, रसीक हांचे आप-आपल्या छंदा मदीं बुडप मनाक आनंद दिता. ह्या उरफाटें कोणायचो धंदो, व्यवसाय, रीण, वायट व्यसनांनी बुडपाची गजाल मनाक तितलीच दुख दिता. तातुंत हुंवाराच्या बुडटेंत गांव जर बुडलो तर त्या गावांत रावपी मनश्यांचो, मोनजातीचो जो खेळ जाता हाचो विचार लेगित करुं नजो. पावसांत कोणूच असल्या बुडटेची आस्त लेगीत बाळगीत अशें दिसना. पुण एका तेंपार आमी मात केपें आनी पाड्डें इस्कोलांत शिकपी भुरगीं पावसांत पाड्डें बुडपाची मोठ्या उमळशीकेन वाट पळेताले. तेवूय फकत त्या बुडटे निमतान मेळपी फ़ेर्यादि पासत!! ह्या न्हंयक येवपी असल्या हुंवाराचो अदमास घेवन पुर्तुगेज राजवटींत केपें तशेंच रिवण हांगासर पूल बांदिल्ले. गोंय सुटकेच्या झुजांत पुर्तुगेजांनीं गोंय सोडून कुस मारच्या आदीं केपेंचो पूल बॉम्ब घालून मोडलो. सुटके उपरांत असोल्डा आनी केपें गावांनी ह्या न्हंयचेर स्वतंत्र गोंयच्या सरकारान नवे पूल बांदले. रिवणा मात आयज

लेगीत पुर्तुगेज राजवटींतलो पूल आसा. पाडूया जो गोंय मुक्ते उपरात पूल बांदच्या प्रकार बादला तो ह्या हवारात रोखडोच उदका पोंदा वता. उपरात पांडूकडेन अवेडे, आमोणा, केपें, मडगांव अशा गावांचो संपर्क तुटटा. केपें आनी लागशारल्या शाळा, इस्कोल, ऑफिसांनी सुटी जाहीर जाता. ह्या सुटयेन्च्या आशेन आमी भुरगीं पावसा दिसांनी इस्कोलाच्या मदल्या सुटयेंत केपें पुलार वचून हवाराच्या उदकाचो अदमास घेत रावताले. पुला सकला एका अदांन व्हड उचायेचे पाशाणी फातरा तळप आसा. त्या तळपावेल्यान हवाराचें उदक व्हावंक लागलें की समजुपाचें पांडू पुलार उदक पडलेंच आनी खंयच्यानींच काय खिणा भितर पांडू बुडलें म्हणपाची खबर केप्या पावताली. एका वेळार हवारात पांडू पुलार सदी गावन व्हावन येवपी नाल्ल. व्हड झाडाची नाटा एकठाय करपी म्हजो आमोंग मोनी भगत आयज तें करपाक भियेना. वाडटी पिराय जालेंच त्या भायर काय वर्सा आदीं एक व्हड मानगें ताच्या काबल्यान घुमपलें तेन्ना सावन ताणें हो नाद सोडला. दर वर्सा हो पूल उदका सकला गेला की खबरापत्रकाक पावसाळी मसालो तयार मेळटा. भाऊन बांदिल्लो पूल भाईंच्या आश्वासना उपरात लेगीत कसो सारको जालो ना हें धळाव सगपच. समाजसेवक राजकारणी हांच्या फोटो आनी प्रतिक्रिया सयत छापून येता. सामान्याक मात हें पांडू बुडपाचें सामकें सवकळीचें कशें जाला. आता तर तें बुडलें ना तर त्रास जाता अशें जावन पडला.

ह्या सगळ्या मदीं म्हजी आवड आसली ती आर्मोगा वांगडा न्हंयचेर नुस्तें गरावपाची. पाडूया मोनी भगता वांगडा आनी असोल्डा पुला सकयल्या कातु देसाया वांगडा नुस्तें गरावपाची वेगळीच मजा आसली. तें गरवप लेगीत जोरगनी वेळार. कित्याक ह्या वेळार चडशीं चणकुलां, काळाटुरां, शेंवटे फारावप सोपें जाताले. सुक्या कोंड्या बडयेक गुटलायलो लांब तास आनी गरो ही आमची गराटी.

गन्याक हांयस म्हण लावंक पोन्या पेंटाच्या डब्यांत कांडूवा नाजाल्यार नाबडे हुमले ही साटलीं-पोटलीं घेवन वरांचे वर न्हंयचे देगेर बसपाचो आनंद वेगळोच आसलो. म्हाका पांडू परस असोल्डे गावालागी गरावंक चड मजा येताली. कित्याक तर कातुच्या थळाव्या देवांनी वाहून नुस्तें तेंच्य शेंवट्या रुपातलें. त्या पासत कातु तशेंच अस्सोल्डा गावच्या कितल्याश्याच देसाय घरांनी शेंवटो हें नुस्तें खायनात. हाका लागून गराटेक लागिल्लो शेंवटो सदांच म्हज्या वांट्याक येतालो.

आयच्या कुशावती न्हंयची दशा आनी तिच्या व्हावपाच्या झोंनींचेर जाल्लो परिणाम हो केपें हांगासर बांदिल्ल्या आडवर्णाच्या धरणा पासत तशेंच सीना खाणींच्या न्हंय पोंदा सांचिल्ल्या गाळा पासत जाला. कुशावती देगेर जितले गांव लागतात, थंय राबितो करून आशिल्ले लोक ह्या न्हंयक पाटी म्हणटात. एका तेंपार पावसाचे दीस सोडून हेर दिसांनी गावचे लोक ह्या न्हंयचो उपेग कपडे, गोरवां धुवपाक आनी आमी भुरगे न्हावक-पेवक करताले. आयज हें सगळें बंद जाला. ती आता देगेर बांदिल्ल्या घरांचो, हॉटेलांचो तशेंच हेर लोकांचो कोन्चोप उडवपाची सुवात थारल्या. हेर वेळार फातरा तळपा सदल्यान सावन हासत खळखळत व्हावपी कुशावती, प्लास्टिक पोतयो, विसर्जित फुलांचें निर्माल्य आनी हेर कचऱ्यातल्यान दुकां गळयत व्हावता!! अशें जावन लेगीत हेर दिसांनी थडसाणेंन सगळ्याक आपणावपी कुशावती भर पावसांत मात तांबडी गुज जावन उपाट भरून व्हावता. लागसरच्याची कोणाची कसलीच पर्वा करीना आनी पावसात वर्सावळीचें पांडू बुडयता. हवाराचें उदक चंद्रेश्वर पर्वता मुळसा मेरेन पावता.

म्हज्या नदरेंत मात पांडू केन्नाच बुडना. आषाढातल्या घोंग्यानी पडटल्या पावसा उदकान कुशावती फकत आपलो आगलोट वाडयता. देव चंद्रेश्वराच्या पावलाक आपलें माथें तेंकोवचो सद ती सोडीना. आपल्या माथ्याचो स्पर्श पर्वतरुपी चंद्रेश्वराच्या पावलाक जाल्या उपरात ती धन्य जाता. आषाढातलो घोंग्यानी पडपी पावस लेगीत त्या उपरात आसोर घेता. श्री कृष्णाच्या पावलाक स्पर्श करचे पासतची यमुनेक जाल्ली उत्कटताय म्हाका म्हज्या कुशावतींत त्या वेळार दिसता. पांडू केन्नाच बुडना. तें तर कुशावती आनी श्री चंद्रेश्वराच्या ह्या भेटी पासतच्या उमेदीन, नमळायेन मोठ्या खोशेत उफेता!!

संपर्क: 9822129070

***

## 'जाग' वर्गणीदारांक सुचोवणी

आमचे साबार वाचक 'जागाचें' वर्गणीदार जावंक सोदतात. तांणीं 'जाग म्हयनाळ्याच्या' खाला दिल्या बँक नाम्याचेर पयशे भरचे आनी आमकां आपलो पुराय नामो आनी वर्गणी पावती खाला दिल्या फोन क्रमांक, वा ई-मेल, वा नाम्याचेर कळीत करची-

फोन- +91 7447268720

नामो- मॉडेल स्टेटस, फ्लॅट 3-SE-3, दोना पावल-ताळगांव रोड, ताळगांव गोंय 403002

Email- asawari.nayak@gmail.com

**Jaag Bank Details:**

Ac no: 4004002100005165

Name: JAAG MONTHLY

Bank Name: Punjab National Bank

Branch: Panaji-Goa

IFSC code: PUNB0292300


तुमचें देवनागरी कंपोजिंग आनी

पुस्तक मांडावळ/प्रिन्टींग करपाचें आसा?



(पेज ले-आवट)

संपर्क सादात:

9422395780

# सांवट

**रूपा केणी**



हांव बदली जावन ह्या डिपार्टमेंटांत येत सावन शांतीक पळयतां. तिनूय त्रिकाळ वाजेल्लें. ताचें चलप, भोंवप पळोवन दिसतालें ताज्या मनावांगडाच ताचे हात, पांय, तोंड, लेगीत वाजेल्यात. हात वाजेल्यात काम करपाक, पांय वाजेल्यात चलपाक, तोंड वाजेलां बरे भाशेन, उमेदीन उलोवपाक. ताचें काम तें जीवाऽऽर आयिल्ल्यावरी करतालें. थेपॅक्क, थेपॅक्क करून चलतालें. सामकें मेल्ले वारीचे कशें. कोणेय जर तर ताका विचारीत 'किदे गो शांती कशें आसा?' जाल्यार सूतकी चेरो करून अश्यो पिरंगण्यो सांगतलें की विचारतल्याक नाकापुरो जावपाचें. नार्वेकारान तर ताका नांव दवरिल्लें 'पिरंगण'. फाटल्यान सगळेच ताका पिरंगणूच म्हण्टाले. तोंडार म्हणपाची माणसुकी नासली. कामां कशी टाळची तें ताच्या कडल्यान शिकचें. सकाळीं ऑफीसाक येतना ताका घरची कामां करून पुरो जातालें. अशें दिसताले कीं सरकार ताका ऑफीसांत सुशेग घेवपाचोच पगार दिता. घरा वचपा वेळार ताका 'ऑफीसांत' काम केल्ल्यान पुरो जाताले. "बसींतल्यान देवन केदी चट्टी काडची पडटा म्हाका. मागीर वीस मिण्टा आनीक चलचें पडटा." जणू काय गड चडचो पडिल्लेवरी तें उलयतालें. गणू आमचो प्यून म्हण्टा तें वगीच वाडोवन सांगता. ताका खंय वेंतभर आसल्यार हातभर करून सांगपाची संवय.

आयिल्ल्या दिसा ताजे पेरें पेरें आयकून एक दीस बिट्ठोणकान्नीन ताका म्हळें, "आगो, तूं कितले भुरगें मगो आमचेपरस. अशें कशें तुकाच पुरो जाता गो? आमी कामां करिनात?" आवयस्स सामकें फोंस्स करून आयले "तुका किदें जाला सांगपाक तुगेर दोनदोन वावराड्यो येतात. तें थोडे म्हणून सांजची चपात्यो करपाक बायल येता तें किदें म्हाका खबर ना. शिनून कांतून आयतें मेळ्ळ्यार कोणूय धवळून काडीत. मागीर पुरो कित्याक जातलें?" "म्हाका सगळीं कामां करून येवंची पडटात. रांदप, बायचें टीफिन, आमचो डबो, किदें फकाणां ती?" बिट्ठोणकान्नीची वाचाच बसली.

एक दीस कुर्पेकान्न बरीऽऽ आकाशीच रंगाची साडी न्हेसून आयली. ताजेर बारीक जांबळी, निळीं फुलां आसलीं. कुर्पेकान्न तशी शिरवंत, एक शिवडी बायल. मातशी सावळी. ती साडी तिका सामकी दावली. सगळ्या बायलांनी तिका तोखेली सोडून शांती. वयल्यान पच्च करून उलयलें "आकाशी रंग काळ्या मनशाचेरूच उठून दिसता." ताणे दिस्त कुर्पेकान्नीच्या वर्मार बोट दवरलें.

अशेंच एकदा बिट्ठोणकान्नीन नवे तोरांचे लोणचें करून हाडलें. लंच अवराक सगळ्यांक दिलें. सगळ्यांक तें आवडलें. तिजी तुस्त केली. हाणे किदे म्हणचें? "सऽऽ गळो मसालो पाकीटांत मेळटा. फकत हिंग फुलोवन घालपाचो. तांतूत कसलें अजाप?" कोणूच ताच्या तोंडाक लागनासलो.

म्हाका ताचे अजाप दिसतालें. सदांच दुसऱ्याच्या खोशयेंत हें मीठाकण किद्याक उडयता काय? ह्या बायलेक कसलोच आनंद घेवपाक कळना? दुसऱ्याच्या खोशयेंत वांटेकार जावंक शकना? दुसऱ्यांक खोशी करपाक कळना? शांतीच्या भोंवतणी एकतरेची निर्शेणी एक सांवटशें कायम आसतालें. जंय, जंय तें वता थंय, थंय तें ताज्या वांगडा वताले. भोंवतणच्यांची खोस, उमेद गिळून उडयताले.

सर्वणकारालो चलो बारावेक बऱ्या मार्कांनी पास जालो. ताणे सगळ्यांक पेढे वाटले. आमी ताका परबीं दिली. शांतीन पेढो मेजार दवरलो आनी पचकले, 'चार–चार ट्यूशनां लायतकच बरे मार्क मेळटलेच तांतूत किदें व्हडलेशें?" सर्वणकाराचें वारेंच काडलें ताणे. "आठ-आठ ट्यूशनां लायल्यार हाचे बाय मेरीटांत येतले मगो?" कामतीन हळूच फेर्मीनाक म्हळें.

फुडल्या म्हयन्यांत कामत रिटायर जालो आनी ताज्या सुवातेर संझगिऱ्याक प्रोमोशन मेळ्ळे. संझगिऱ्याच्या रित्या जाल्ल्या पोस्टाचेर रामदास जॉयन जालो. ताकाय प्रोमोशन मेळ्ळे. सामको हांसकुऱ्या तोंडाचो भुरगो. उर्बेन भरिल्लो. खोशयेचो वझरो. फटाफट काम करुन उडोवपी. भोंवतणचे वातावरण गंभीर जाल्यार रोखडेंच विनोदी उलोवन सगळ्यांकूच हांसपाक लावपी. तो जेन्ना हांसतालो तेन्ना हांसो ताज्या काळजाच्या तळातल्यान वयर सरतालो. सामको नितळ, निर्मळ. दुसऱ्याक आदार करपाक सदाच मुखार.

एकदां फायली वेल्यान नार्वेकार आनी शांतीचे सामकें पेट्टा कशें जाले. रामदास मदीं पडलो, कॉमेडी केली आनी हांसून सगळे पालवलें. वयल्यान ताणेंच शांतीक ताचीच फायल ताज्याच गवेतांतल्यान सोडून दिली. जाल्यार शांतीन ताका दिनवासपाचें सोडून "तुवेंच बी फायल लिपोवन दवरूं नासली मरे?" अशें विचारुन पानवळ दिलें. ताचो नार्वेकाराचेर राग आसलो. सगळ्यां मुखार ताका सडीक दिवपाची संद रामदासाक लागून गेल्ली आनी फायल आपल्याच गवेंतात मेळिल्ल्यान सगळ्यांमुखार आपलीच फजेत जाली हें ताणे दिस्त मतींत दवरलें. "शांती मॅडम हांव तुमच्या गवेताकडेन कित्याक मेतेर जातलों? कामाच्यावेळार म्हत्वाची फायल मेळना जातकच मनीस गोंदळटा सामकार आसून लेगीत ती वस्त दिश्टी पडना एकेका वगतार, म्हणून तुमकां मदत करपाक हांव मुखार सरलों." रामदासान खालतीपण घेवन म्हळें. पुण शांती तें, डुख धरून रावतलें. अशें म्हाका दिसताले.

पयलो पगार जातकच रामदासान सगळ्यांक जेवण दिलें. एक ल्हानसो सुवाळो ऑफीसांतूच केलो. पयलीं सांगिल्ल्यान कोणेच आपले डबे हाडलेना. ताच्या इश्टाकूच ताणे जेवणाची ऑर्डर दिल्ली.वातावरण प्रसन्न जाल्ले. हांसत खेळत सगळे जाण जेवताले. रामदास सदचेवरी सगळ्यांक हासयतालो.

"रामदास! आमी कोणेच हांगा मागल्याबगर पार्टी दिवूंक ना. पुण उमेद म्हण्टात ती किदें हें तुजेकडल्यान शिकचें. तुंवे आपुण ज़ावन आयज आमकां पार्टी दिली आं."

'जेवण रुच्चीक जाला आं. कोण रे तो तुजो इश्ट कॅटरर? नंबर दि रे ताजो." सर्वणकार.

इतल्यांत शांतीन खणखणीत आवाजान मीठाकणी उडयलीच. "तांतूत किदें मागल्या बगर पार्टी दिवपाक? ना भुरगीं ना संवसार एकली बायल आसली. तिवूय पळून गेली कोणाचो तरी हात धरुन."

खिणात थंय मोनेळ पातळ्ळो. जेवणावयली वान्साच गेली आमची.

शांती थेपॅक्क थेपॅक्क करीत उठलें ताणे वाटीभर मणगणें घेतलें आनी कुलेरान खायत रावलें.

संपर्क: 9822183954

***

# तोंड

कृ. म. सुखठणकार



आमचे श्रद्धास्थान तुकाराम महाराजाचो एक अभंग आसा. जाचें वाचन आसा ताका खबर आसतलें. पुणून तो वळोंचो अणभव मात सगल्यांक आयला आसतलो.

*बरें जालीयाचे अवघे सांगाती*
*वाइटाचे अंती कोणी नाहीं*
*तुका म्हणे जन दुतोंडी सावज*
*सांपडे सहज तिकडे धरीं*

हांगा तुकाराम महाराज आमच्या दोन तोंडा विशीं उलयतात. मातणाक बुधवारा आनी आयतारा दोन तोंडा आसतात अशें भुरगेपणांत हांव जाणट्ल्या कडल्यान आयकलें. केन्ना पळोवंक ना. मनशाक अशें दोंस वो लागनात. ताका सुमानांतल्या खुयच्याय दिसा दुसरें तोंड फुटू येता. तुमका अशें दुसरें तोंड खूब फावटीं फुटिल्ल्यान, नेमकें तें खुयच्या दिसा फुटिल्लें हें घडयेवरी याद उरचो ना. आनी तुमी तो याद धरचो अशी अपेक्षाय ना. तशें पळयल्यार मनशाक दोन तोंडां फुटप ही ताच्या सभावाक धरून सादी सरळ प्रक्रिया. पुण आमी अश्या दोन तोंडाच्या मनशाक मातणाक म्हणून मातणाचें नाव बंदेच पिडड्यार करतात.

मनशाक कितेंय उलोवचें आसल्यार तो तोंडानूच उलयता हें आमका सगल्याक खबर आसा. कारण निर्मात्यान तशी दुसरे कडेन वेवस्था करूंक ना. देख दिवचो जाल्यार हांव हिच्या बापायचो दोन. आमचें लग्नाची उलोवणी जाल्ली तेन्ना ताणें बँड आनी काळजा लायिल्ले गाडयेचें भाडें दिवपाचें मान्य केल्लें. बरं..., मशेन. हो देवान दिल्ल्या ताच्या तोंडातलों उतर. आमचें लग्न काडिल्ल्या म्हतारें जाल्लें. वकल पावणी. जा मुली जा. वो वाजोवन जातकच बसप्पा (प्रोप. ब्रास बँड बाणास्तारी पुला जवळ) येवन म्हज्या मुखार उबो रावलो तसो हावें आगळ्यान लागींच उबो आशिल्ल्या हिच्या बापाय वटेन ताका दिका दाखयली.

"वर बिल पावती सुतारे"

हिच्या बापायन बसप्पाक ताचे मायभाशेंत सांगलें. हिचो बापूय खयतरी मास्तर म्हूण आशिल्लो थंय तो कन्नड शिकलो अशें हो सांगता. कन्नड उलयता खरो, मास्तर खंय आशिल्लो हें लग्नाक इतलीं वर्सां जालीं कळूंक ना, तुमचे म्हायती खातीर.

"सारी सर!"

अशें म्हणून बसप्पान ट्रम्पेटार पेंकक असो आवाज काडलो. तो आवाज आयकून म्हज्या पोटांत पेंकक जालें कारण म्हजे सफारीच्या बोल्सांत कोणे तरी केळवण दिल्ली तें पाकीट आशिल्लें. तातूंत धा रुपयाची एक नोट आनी एक रुपयाचें नाणें आशिल्लें. हें म्हाका पाकीट दोनदां सोसपून खबर आशिल्लें. सोड, तो आमचो विशय न्हीं. चंद्रकांताकूय ताणें तेंच सांगलें. तें ताका ताणें आमचे मायभाशेंतल्यान सांगलें. चंद्रकांता कडेन पेंकक करपाक ट्रम्पेट नाशिल्ल्यान ताणें आवाज काडलो ना. आसूं, त्या दिसा त्या सोहळ्यांत म्हाका हिच्या बापायक दुसरें तोंड फुटलें असो साक्षात्कार जालो. फुडें म्हाका हो साक्षात्कार जायत रावलो. आतां तो उलयता तेन्ना तो खुयच्या तोंडांत उलयता हाचो हांव अदमास घेतां आनी फुडलें तयारेक लागतां. संवकळीन म्हाका तें शक्य जालां. तुमकाय शक्य जातलें. 'हावें तुका अशें सांगिल्लें?' शक्यूच ना. वा 'हों उतरां म्हजें तोंडांत केन्नाच घोळनात, हांव हें पयलें खेपे आयकतां. आंगाच म्हजें तोंडांत तीं घालूं नाका. वा 'हांव अशें तुका म्हणपाक पिसावला वो?' अशीं उतरां कानार पडटकच फुडल्याक दुसरें तोंड फुटलें अशें समजूचें. सदांच होंच उतरां आसतलीं अशें ना हें मतींत दवरचें. पयलें खेपे मात अदमास नाशिल्ल्यान दुसऱ्या तोंडान सांगिल्लो घात सोसपाची शक्त दर एकल्या कडेन आसपाक जाय इतलेंच.

निर्मात्यान तोंड दिला म्हणटकच ताचो कितें तरी उपेग आसतलो हातूंत दुबाव ना. कारण ताणें दिल्ल्या दर एका अवयवाचो कितें ना कितें तरी उपेग आसताच हें हांव अणभवा वयल्यान सांगता. ताणें दिल्लें शेपडेचो आमी उपेग केलो ना आनी तो झडलो. हाखातीर आमी झडच्या आदीं सगल्या अवयवांचे उपेग करप गरजेचें. सोड.

आमचे सारकेले आम आदमी तोंडाचो उपेग जेवपाक आनी उलोवपाकूच करतात. तोंडाचे आनीकूय उपेग आसतात ते आमच्या राज्याक खबरूच ना. देखीक, बासरी सारको तोंडांत फूंक मारून वाजोवपाचीं वाद्यां निर्मात्यान तोंड दिवंक ना जाल्यार जल्माक येवचींच नाशिल्लीं. आमी केका वयल्या मेणवातीक फूक मारपातूच जोण सारली. आसूं, तो आमचो विशय न्हीं. मायबोलींचे भाशेंत तोंड म्हणल्यार mouth आनी face म्हणल्यार चेरो. आमी तोंडाक तोंड म्हणटात आनी चेऱ्याकूय खूब फावटीं तोंडूच म्हणटात. हाका लागून 'ताचें तोंड पडलें', 'ताचें तोंड ओडिल्लेवरी दिसलें', 'हासरें तोंडाचें', 'तोंड काळें करप' असले वाक्य प्रकार आमी वापरतात. निर्मात्यान हें तोंड मानेर बसयलां. मानेर बसोवन आमका तोंड जाय ते वटेन घुंवडावपाचीय वेवस्था ताणें केल्या. कारण फुडारान खूब फावटीं कोणाक तरी पळोवन तोंड फिरोवपाची पाळी आमचेर येतली हें ताका बेस बरें खबर आशिल्लें जावये. मान जाय तेन्ना बागोवपाची तजवीज ताणें केल्या हें हावें तुमका सांगपाची गरज ना. दिसपट्टी ह्या ना त्या कारणाक लागून तुमी ती बागयनातूच हें म्हाका खबर आसा. मान बागयतकच आपशीच आमचें तोंड सकयल वता आनी नदर जमनीर स्थिरावता. हाका लागून आमची नदर फुडें आशिल्ल्या मनशाच्या नदरेक मेळना. हें ज्ञान आमका शाळेंत आसतनाच मेळ्ळां. तें आमकां फुडें जल्म भर उपकारता. आदल्या तेपार सगलेच लोक रीण काडटाले. रीण काडटाले तें फेडचें पडटालें कारण तेन्ना राश्ट्रीयकृत बँको नाशिल्ल्यो. हाका लागून रीण काडटा ते फेडचे

आसता अशी विचित्र भावना तेन्ना लोकां मर्दी तयार जाली. रिणकार आपूण हे तारखे मेरेन रीण पावयतां अशें सांगून पयशे उखलतालो. ते तारखेक रीण पावोवप जालें ना जाल्यार ताका रीण दिवपी फुडल्यान आयलो जाल्यार मानेचो वापर करुन तोंड फिरोवचें पडटालें. आतां बँको आयिल्ल्यान रीण काडून तें फेडऽ नासतना परत आनीक रीण काडपाक तेच बँकेंत ओर्राद वचूं येता. बँकेचो मॅनेजर च्या पाणी दिवन आनीक एक रीण तुमकां दिवन घरा धाडपाची वेवस्था करता. रिणाचो आंकडो व्हड आसत जाल्यार देश सोडपाची तिकेट बँकूच काडून दिता अशें सावळो सांगऽ. सावळो सांगता म्हणटकच खरें आसतलें.

आदल्या काळांत दायजी म्हणून जमात आशिल्ली. ती आज काळा भायरी जाल्या. एकामेकांचेर देमांद घालप, घराचेर सुणीं चडोवपाचें काम ती करताली. फुडल्यान दायजी येत जाल्यार मानेचो उपेग करुन ताका तोंड फिरयताले. आज वयर म्हणलां तशें ती जमातूच ना जाल्ल्यान मानेचो उपेग मर्यादीत स्वरुपान जाता. तोंड फिरोवप आनी तोंड लिपोवप हातूंत फरक आसा हें तुमकां खंयचोय मराठी कृष्णधवल सिनेमो पळयल्यार कळटलें. ह्या सिनेमांनी सुर्यकांतान तोंड उगडल्या बराबर त्या सिनेमांतली नटी, ती मागीर कोणूय आसूं, तोंड हातांत लिपयत 'इश्श्यऽ' अशी किळांच मारुन घरांत भितर धांवताली. हांवे हांगा सुर्यकांत म्हणलां कारण चडश्या कृष्णधवल मराठी सिनेमानी नट सुर्यकांतूच आसतालो. 'उद्या वाट वाकडी करुन येतो तुम्हाला भेटायला' इतलेंच सुर्यकांतान म्हणल्यार पुरो, हातांत तोंड लिपयत धांवली भितर. वतना सदचें 'इश्श्यऽ' आसाच. हांगा आमकां दिसांतल्यान शंबर फावटीं बाजारांत वचपाची पिडा जाता. वतना आमी 'आगो, बाजारांत वचून येता आं' अशें सांगू जाय म्हणून सांगतात. पुणून केन्नाच कोण 'इश्श्यऽ' म्हणत तोंड लिपयत, भितर धांविल्ली आयचे तारखेक पळोवंक ना. इश्श्यऽ थंयच उरलें, हांगा 'बाबा रे तूं बाजारांत परत कित्याक वता आत्तां बाजारांतल्यान आयला' अशें लेगीत कोण तोंड उगडून विचारी ना. आसूं. पुणून आमचो तेर्म जातकच आमी एकमेकांक समजून घेवपा खातीर, मिरामार नुस्त्या लागीं वेळेर मेळटालीं. एकदां अशेच मेळिल्ले कडेन हांवे हिका मधुचंद्राचो प्लान सांगलो.

''आगो, लग्ना उप्रांत सत्यनारायण बी जातकच आमी मधुचंद्राक बांद्या या मुगो?''

अशें हांवे म्हणलां मात, ही लेंसात तोंड लिपोवन,

''हांव ना आं, तुमीच वचात.''

अशें म्हणत नुस्त्याच्या तोंडांत भितर धांवली. वतना सगलीं रेंव म्हज्या तोंडांत घालून गेली. मागीर नुस्त्याच्या शेपडे वटेंतल्यान भायर येवन, हांवे अचकीत मधुचंद्राचो प्लान उगडो केल्ल्यान आपूण लजून नुस्त्याच्या पोटांत धांवली अशें स्पश्टीकरण दिलें. ही नुस्त्यांच्या तोंणात भितर वचून खंयच्यान भायर आयली हे जाणुन घेवंचे आसल्यार, मिरामार वेळेर मुजरत भेट दियात.

तोंड कशें लिपोवप हाचें मुळावण आमचें तरी शाळेंत वतकच पडलें आनी फुडारान आमकां ताचो फायदोच जालो हातूंत दुबाव ना. फुडें बशिल्ल्या भुरग्याचो आलाशिरो घेवन तोंड कशें लिपोवप ही कला आमी फाटल्या बांकार बसून आत्मसात केली. मागीर फुडारान हीच कला बशींत फुडल्या पेसेंजरा फाटल्यान बसून वापरली. हाका लागून खूब फावटी बशींत चडिल्ल्या वळखिच्या मनशाक म्हजी तिकेट काडची पडटली आशिल्ली ते ताचे पयशे ह्या कलेक लागून वाटावले अशें आमच्यांनी म्हणू येता. तोंड बऱ्या कामां खातिरूय लिपोवं येता हाची ही बरी देख. तुमीं तुमचे तिकेटीचे पयशे वाटोवपा खातिरूय ही कला वापरूं येता. कारण आयच्या काळांत जण एकलो म्हजे वरी आसतलो ही अपेक्षा बाळगप पिशेपणांचें थारतलें. सोड. तर, फाटल्या बांकार बसून आमी तोंड लिपोवपाक शिकले. फुडल्या भुरग्याच्या फाटीची ढाल करुन फाटल्यान तोंड लिपोवप. केन्ना केन्ना हाताक मेळटा तें पुस्तक उगडून तें तोंडा मुखार धरुन वाचिल्ल्यावरी करताले. पुस्तका फाटल्यान तोंड कोणे लिपयलां हें जरी शिक्षकाक खबर आसलें तरी प्रस्न विचारतना फुडें जाचें तोंड दिसता ताका विचारप जाता हेंय आमकां बेस बरें खबर आशिल्लें. एकदां म्हाका याद जाता. सेलीन टिचरीचो भुगोलाचो वर्ग चालू आशिल्लो. सेलीन टिचरीन, 'What is the staple crop of Cuba?' असो प्रस्न केलो आनी मागीर तिणे सगल्यांचेर नदर भोंवडावपाक सुरु केलें.

''आमकां हांगा वांयगण रोयता सर नाका जाता, ही क्यूबाक मरपाक गेली? पुस्तक तोंडार धर बेगीन बाबा नाजाल्यार आमचो जीव खातली.'' दत्तान म्हाका शिटकायलो तसो हांवे डेस्कांत पळय नासतना हात घालून पुस्तक उबारलें आनी दोळ्यां मुखार धरलें. आनी दोळे गच्च धांपले. अश्या प्रसंगार दोळे गच्च धांपपाची म्हजी संवंय. हिच्या गळ्यांत माळ घालतना लेगीत हांवे गच्च दोळे धांपिल्ले. त्या समया वयलो फोटो आमच्या आल्बमांत आसा. तुमचे म्हायती खातीर.

"Baba why you are hiding your face behind a book? Which book you are reading?"

त्या दिसा हांव कोणाचें तोंड पळोवन आयिल्लों खबर ना. सेलीन टिचर हरशीं फाटल्या बांकार बसपी भुरग्यांचेर आपली शक्त वगडावपी न्ही.

"Geography period is going on Teacher so likely he is reading geography textbook only. He is very fond of Cuba farming."

दत्तान म्हाका मोरल सपोर्ट दिवपाचो येत्न केलो.

"Baba stand up! Read the lesson!"

सेलीन टिचरीन ऑर्द सोडली. हांवे गच्च धांपिल्ले दोळे उगडले आनी वाचपाक सुरु केलें. सुरवेक दोळ्यां मुखार काळोख आयिल्ल्यान वाचप कुस्तार जालें. दोळे आनीक मोठे करुन आनी लांब स्वास घेवन वाचपाक सुरवात केली.

''ती ऐन पंचवीशीतली यौवनाने मुसमुसलेली तरुणी नव्हती...''

अचकीत म्हाका भुगोल विशयांत रुचीशी निर्माण जाली. हांवे दोळे आनीक मोठे केले आनी फुडें वाचपाक सुरवात केली.

''...तिशी उलटलेली प्रौढा होती. तरी तिच्या वयाचा नक्की अंदाज करता येत नव्हता.''

उजवे वटेन बशिल्ल्यो चलयो आता तोंडाक नेम लावन कित्याक हांसतात तें म्हाका कळ्ळें ना. दाव्या वटेन दना म्हज्या जागडाक चिमटे शे काडपाक लागलो.

"तीस ते चाळीस दरम्यान तिच वय अस् शकत असत."

"पप्पया तू हावें तुका वाचूक हाडिल्ली चद्रकांत काकोडकाराची कादंबरी वाचता."

दना म्हजें जागड वळत. मान लांब करीत म्हज्या काना कडेन फुसफुसलो तसो हांव भानार आयलों.

"Baba which Geography textbook you are reading from?"

तेवटेन सेलीन टिचरय भानार आयली आसुंये.

"Next period is Marathi Teacher. Our Baba is always ahead of his time so he was reading marathi textbook Please excuse."

दनान म्हजे वतीन बाजू माडली. हांव मकयल बसलो आनी भुगोल पुस्तक उगडून म्हजें तोंड लिपयलें. सोड.

आमका तोंड लिपोवपाची सवय इतली जाता की फुडें भुरग्याचे बापूय जाले तरी ती वचना. भुरग्याक खेळयतना उश्या फाटल्यान तोंड लिपोवन पप्पा ना आनी तोंडा वयल उशें काडून 'आऽऽशाऽ' अशें म्हणत ताका हांसोवपाचो येत्न करतात. भुरगें आमचें पिशेपणाक किर्टाकिटून हांसता खरें, हागाच ताका जाय तेन्ना तोंड कशें लिपोवप हाचें धडें ताच्या बापाय कडल्यान मेळटा. केन्ना केन्ना आवयूय पदर तोंडार धरून 'मम्मा ना' म्हण 'आऽऽशाऽ' करता तेन्ना भुरगें आनी बापूय दोगूय जाण हांसतात. भुरगें कित्याक हांसता खबर ना, बापायच्या कानार 'मम्मा ना' हीं उतरां पडटकच ताचें तोंडार आपशींच हांसो उदेता आसुंये. म्हजो अदमास आसू, गोंयकारा भितर 'र'चीं मात्रा खूब आशिल्ल्या कारणान तोंड फिरोवप्याचो आंकडो तोंड लिपोवप्या परस मदां चडूच आसतलो. कोणाकूय चुकून लेगीत हटकिलें ना जाल्यार दुसरे खेपे तुमका ताणें तोंड फिरयलेंच अशें समजचें. ताणें तोंड कित्याक फिरयलें हें तुमका कळना कारण मुद्दम अशें तुमी कायच केल्लें नासता. म्हणटकच 'तुज्या घरा तू व्हडलो' अशें म्हणत दुसरे खेपे ताणें तोंड फिरयलें ना जाल्यार पसून तुमी फिरयतात. तुमच्या वांगडा कोणूय आसल्यार 'आरे *** फुडल्यान येता रे पळोवनाका आ तेवटेन' स्वताक व्हडलो समजता वचूंदी ताका अशें म्हणून तुमी वांगड्याक शिटकायतात. आनी दोन अधिक एक अशीं तीन तोंड एकमेकाच्या विरुद्ध दिकेन फिरतात. संगीत मान फिरयत राविल्ल्यान जाणटेपणात मागीर गळ्याक पटो घालून फिरचें पडटा. गळ्यांत पटो पडिल्ल्यान मनांत आसून लेगीत मागीर तोंड फिरोवंक मेळना. ही गोंयकारांची शोकांतिका.

निमाण्यान आमकां सगल्याकूच तोंड दिल्ल्यान तोंडाक तोंड लागप सभावीक. तोंडाक तोंड केन्ना, कोणाचें, खंय, कित्याक लागून लागत सांगू नजो. तोंडाक तोंड जशें तावेर्नांत लागता तशेंच तें विधान सभेंतूय लागता. ताका 'बिल' हेंच कारण आसता. तावेर्नांत बिल कोण दितलो आनी विधान सभेंत बिल कशें पास जातलें हो मुद्दो आसू येता. तोंडाक तोंड लागतकच तावेर्नं खयचें हो खूब फावटी आमका प्रस्न पडू येता. सोड. आदल्या तेंपार राजकारणांत विचार आसताले, तत्वां-मुल्यां आसतालीं. हाका लागून तोंडाक तोंड लागतालें. पूण ताका वैचारीक बसका आशिल्ल्या कारणान सगलें मुद्द्याक धरून आसतालें. जाका ओपिनियन पोल सोडून देशांतल्या बाकिच्या राजकीय घडणुकांचोय अभ्यास आसा ताका जहाल आनी मवाळ गटाचें तोंडाक तोंड लागतालें हें खबर आसतालेंच. जे ओपिनियन पोलाचो बापूय कोण ह्या प्रस्नांतूच घुसपल्यात ताका तें खबर आसतलें ही अपेक्षा धरप चुकीचें. सोड. १९०७ ह्या वर्सा कॉंग्रेसाचें अधिवेशन सुरत हांगा भरलें. थंय मवाळ आनी जहाल ह्या गटाचें तोंडाक तोंड लागून फुडें कितें जालें हें सगल्याक खबर आसा. नामदार गोखले हाचो मवाळ आनी टिळकाचो जहाल गटांत आसपाव आशिल्लो. तुमचें म्हायती खातीर, साहित्याच्या मळारूय आदीं नितीमुल्यां आसतालीं हें तुमका सांगल्यार तुमका अजाप जातलें हें म्हाका खबर आसा. तेन्ना हे मळार लेखणेंतल्यान तोंडाक तोंड लागतालें. देखीक, ना. सी. फडके आनी आचार्य अत्रे हाचो वाद त्या वेळार खूब गाजिल्लो. हे दोगांय जेन्ना एके माचयेर येताले तेन्ना ताचें तोंडाक तोंड लागतालें. न. चि. केळकर भायर पडटकच ताका आरांदिवपाक ते एकेच माचयेर आयले तेन्ना लेगीत ताणीं एकामेकाक सोडले ना. ना. सी. फडकेन केल्ले भाशणांत ताणीं म्हणलें 'स्नेहाला पावित्र्य असावं, शत्रुत्वाला दृढता असावी. ह्या गोष्टी नसतील तर कशालाच काही अर्थ उरणार नाही.' नवयुगांतलो अत्रेंचो 'गच्छ सुकर भद्र ते' हो अग्रलेख ताचोच एक भाग. जाका वाचून आसा ताका हावें अत्रे-फडके वाद सांगपाची गरज ना. वयर म्हणला तशें त्या वेळार राजकारण आनी साहित्याचो दर्जो वयले पातळी वयलो आसतालो. ताचें तोंडाक तोंड लागतालें तें भिन्न विचाराक लागून. आमचेंय तोंडाक तोंड लागता पूण वेगळे कारणाक लागून. आमचें उजवाडटा सडासांत वचून साखळी कोणे ओडली ना ह्या प्रस्ना वयल्यान. आनी मागीर तोंडाक तोंड लागता. दीस भर विशय आसताच, विशयांची कशीच कमी पडना. जेवतना जेवणांत केंस मेळटा. मागीर केंस धव्या कागदार दवरून ताचें पोस्टमोर्टेम जाता. ताची लांबी, रुंदी, कोर पळोवन तो कोणाचो हाचेर वाद जाता. वाद जावपाक तोंडाक तोंड लागलेंच. आसूं.

मनशाक तोंड दिला म्हणटकच तो वता थंय तें तोंड घेवन वतलोच. म्हणून आमका कोणूय खंय ताच्या जातकच (आमका सांगी नासतना) तो वा ती तोंड घेवन खंय गेलो, गेले असो प्रस्न पडटा. खूब फावटी आमका थळ खबर आसता तेन्ना ते गेले तोंड घेवन ताचें बराबर. ताचीं लक्षणां दिसतालींच एक दीस शेण खातलें म्हणून. आवय बापायक तोंड लिपोवपाक लेगीत सुवात दवरली ना अशीं उतरां कानार पडटात. पयल्या उल्याक जाप जर दिली ना तर आमकां तो वा तें तोंड घेवन खंय गेलें असो प्रस्न पडटा. मागीर ती व्यक्ती दिसतकच आमी ताका पयलो प्रस्न तोच विचारतात. हांव न्हाणाक वतकच शेवटें तुवालो घेवन सान्या भायर उबें रावता हें हावें तुमका सांगलांच. तें वालो घेवन उबें आसा हें खबर आसून लेगीत हांव माथ्यार निमाणो ताब्यो

रकयतकच शेंवत्याऽऽऽ खंय तोंड घेवन गेलें? असो आडुतां. मागीर शेंवतें दार उगडून वालो दितना, हांव आनीक खंय वतलें! तो थंय कमरेर हात दवरुन युगें अठ्ठावीस उभा आनी हांव हांगा वालो घेवन अशें म्हणटा. हांव 'Thank you for that' म्हणत वालो घेतां आनी दार बंद करतां. आज हो वाक्प्रचार काळा भायर वचत म्हूण म्हाका भंय दिसपाक लागला. कारण अचकीत सगले तोंड घेवन वचपाचे बंद शे जाल्यात. देखीक, फाटीं हांव आमच्या सोयर्यागेर कुडचड्यार गेल्लों. तांचें दोन माळयांचें घर. हांव सकाळीं साडे णवांच्या अदमासाक पावलों. दीस आयतार. बेल हाताक लागली म्हणून बेल मारली. भितर शेंवणे चिंवचिंवलें. भितरल्यान प्रतिसाद ना. परत शेंवणे चिडिल्लें. ताणे आपलें काम केलें. 'खंय गेलीं सगलीं तोंड घेवन' हें हांवे मनांत म्हणलें, शेंवण्यान न्ही. कारण घरांत आवय, बापूय, पूत आनी नविनूच आयिल्ली सून इतली मंडळी आशिल्ली.

"Honey sss, Sweetie Pie sss where are you? I am in washroom. Please open the door"

अशी मंजूळ शी किणकिण कानार पडली. तेन्नाच म्हाका 'खंय तोंड घेवन गेलो' ही उतरां काळा भायरीं जावपाचे वाटेर आसात हें उमगलें. तोंड घेवन गेल्लो तो sweetie pie आयलो आनी ताणे दार उगडलें. हांवेय ताका तोंड घेवन खंय गेल्लो अशें विचारुन ताचो विरस केलो ना.

"Hi Sweetie Pie. Where you had gone? I pressed this bell so many times. Where are other Sweetie Pie Seniors. They are also not to be seen."

असो प्रस्न करुन ताच्या हातार हाडिल्लो मारी बिस्कुतेचो पुडो दवरलो. आसूं.

आमी तोंडांतल्यानूच उलयतात, दुसरे कडल्यान उलोवपाची वेवस्था ना. तरी आसतना 'तो खंयच्या तोंडान उलयता?' असो प्रस्न आमकां खूबदां पडटा. हो वाक्प्रचार आमी निर्लज्य मनशां खातीर वापरतात हें तुमकां अणभवान खबर आसतलें. देख दितां, आमचो बोरिवलीचो मुंबयकार केन्नाच सावळ घालपाक पयशे धाडी ना. आतां तो ना म्हणटकच हाचे फुडेंय धाडचो ना. सोड. देव ताच्या आत्म्याक सदगती दीवं. तर, एक वर्स ताणे कार्ड धाडलें. 'आमच्या सौभाग्यवतीना थंडीत सांधे दुखीचा त्रास जाणवतो. तरी तिला मालीश करण्या साठी एसटी वर (गोवा मुंबई व्हाया मालवण डेपो) खोबरेल तेलाचे लात पाठविण्याची कृपा करावी.' आईच्या हातांत कार्ड पडना बराबर तिचें फिरलें. तिणे बापायच्या हातांत एक कार्ड दिलें आनी जाप बरोवंक सांगली. 'हे तुम्ही कोणत्या तोंडाने लात मागतात? मागच्या वर्शीचे सावळीचे पैसे त्याच एसटी वर (गोवा मुंबई व्हाया मालवण डेपो) पाठविण्याचे कश्ट घ्यावे. गोव्यात ह्या वर्शी थंडी पडल्याने खोबरेल तेला बरोबर आम्ही पण शेकेलो आहोत. थंडी कमी झाल्यावर विचार करु.' बापायन कितें बरयलें तें खबर ना पूण आई आठवडो भर 'खंयच्या तोंडान खोबरेल मागता? हाका तोंड आसा मागपाक?' अशें म्हणत जेवणाक खोबरेल तेलाचीं फोण्णां मारताली.

तोंड कोणायचें आसूं, उगडटकच धांपपाची सोय जाणे तें दिलां ताणे केल्या. कोणाकूच हांवे तोंड उगतें दवरुन भोंवतना पळोवंक ना आनी कोणे भोंवचेंय बी न्ही. पूण खूब फावटीं अजापान आमचें तोंड 'आं'च उरता म्हणजे उगतेंच उरता. अशें केन्ना जाता, जेन्ना आदीं पळोवंक नाशिल्लें पळयलें, आयकूंक नाशिल्लें कानार पडलें जाल्यार तोंड आपशींच उगतें उरता. ते अवस्थेंत तोंड तशेंच उरल्यार कुशीक आशिल्ल्याचेर ताका सादूर करपाची जबाबदारी येवन पडटा. म्हजें तोंड बसीनीं, जात्रांनी, पणजे बाजारांत बी खूब फावटीं उगतें उरता. तेन्ना ही कुशीक आसल्यार, ''आतां धांपा तुमचें तोंड मूस बी वचत भितर'' अशें म्हणून म्हाका भानार हाडटा. म्हजें तोंड भौशीक सुवातींचेर परतें परतें उगतें कित्याक उरता ह्या कारणांनी आमी भितर वच्चें न्ही. तो आमचो विशय न्ही. श्रीकृष्णान (भगवद गीता फेम) ल्हान आसतना तोंड आं केलें. तेन्ना यशोदेक ताचे तोडांत चौदा भुवनां दिसलीं अशें हांवे वाचलां.

*'मारावया तिने उगारीली काठी*
*भुवने त्या पोटी चौदा देखे*
*देखे भयानक झाकियेले दोळे*
*मागुता तो खेळे तियेपुढे'*

आमचे साहित्यांत संत साहित्याचोय आसपाव जाता हें जांकां खबर आसा हें ताणी वाचलांच आसतलें. यशोमती मैयान, कान्हाक माती खाता काय आनीक कितें खाता हें पळोवपाक तोंड उगड म्हणलें. ताणे उगडलें ना म्हूण तिणे बडी उबारली. मागीर ताणे तोंड उगडटकच तिणे भितर जें पळयलें तें पळोवन तिणे भियेवन दोळे धांपले, असो ताचो अर्थ. एकदां दातांच्या दोतोरा कडेन गेल्ले कडेन ताणे म्हाका अशेंच तोंड उगडूंक लायलें. हांवे तोंड उगडटकच ताणे जें भितर पळयलें तें पळोवन तो असोच भिलो. दातांचो दोतोर सोडल्यार म्हाका कोणेच तोंड उगड म्हूण सांगलें ना. आईची तर हांव सदांच शेण खातां ही भावना जाल्ल्यान तिणे म्हाका केन्नाच तोंड उगड म्हणलें ना. तोंड आसा म्हूण थोडे तोंडाक येता तें बडबडटात. तांकां आई वाचाविदळ अशें म्हणटा. पिशे, सोऱ्या सारके मादक द्रव्य पोटांत वतकच अशें उलोवप करतात. हें वाचल्या बराबर तुमी, राजकारणी अशेच तोंडाक येता तें उलयतात, तांचें कितें? असो प्रस्न विचारतले हें हांव जाणा. तांकां खंयचे कातेगोरींत घालपाचे तें म्हाकाय समजना. कारण ते केन्ना केन्ना पिश्यांवरी उलयतात तर केन्ना बेबद्यांवरी. आसूं.

मनाक दिसता तें तोंडार सांगपी आमच्या मदीं आसात, ना न्ही. पूण तांचो आंकडो सामको ल्हान. चडशे मनशाच्या फाटल्यानूच उलोवप पसंत करतात. म्हजी सोयरीक चलताली तेन्ना खूब चलयांनीं म्हाका नकार दिलो. तातुंतल्या खूबश्या जाणानी नकार दिवपा फाटलें कारण म्हाका कुशीक व्हरुन तोंडार सांगलें. तांचो सगल्यांचो हांव आभारी. एकल्यान हांव तिरसो आसल्या कारणान आमचे आयुश्यांत, फुडारांत म्हजे नदरेक लागून कसो गैरसमज जांव येता हें म्हाका कागदार म्हजे दोळे काडून म्हाका समजावन सांगलें. ताणे गोवा कॉलेज ऑफ आर्ट हातुंतल्यान पदवी घेतिल्ली तुमचे म्हायती खातीर. एकल्यान म्हजें वजन पळोवन म्हाका क्षयरोग आसूं येता असो हुस्को उकतायलो.

तवें आमचे घराण्यांत कैलासवासी जाल्यात तांची यादी सादर करून [illegible] कोणाकूच क्षयरोग जावंक नाशिल्लो हो म्हायती ताका दिली सोड.

आमका आमचें तोंड हारश्यांत पळयल्यारूच दिसता हाका लागून आमका आमगेलेंच तोंडाचो तसो त्रास जायना. दीस बरो गेलो ना जाल्यार आमी सकाळीं कोणाचें तोंड पळयलें काय? असो प्रस्न आमकाच करतात. तुमचें तोंड पळोवन आमचो दीस बरो गेलो ना ताचें दूशण तुमचेर येवं येता. हातूंत तुमचो दोश कायच ना. जाणें तुमकां जें आसा तें तोंड दिला ताचे कडेन सगलो दोश वता. लग्ना आदीं हांव सालांत न्हिदः सकाळीं उठल्या बरोबर म्हजी नदर भाऊ साहेबाच्या पायजेलार पडटाली. म्हणजेच सकाळीं उठल्या बरोबर हांव भाऊ साहेबाचें तोंड पळयतालो. हाका लागून म्हजे आयुश्यांत व्हडली उलथापालथ जाली अशें न्हीं. लग्ना उपरांत हांव हाड्याक उजो घालपाक हिच्या आदीं उठ्ठा म्हणटकच हिचें तोंड पळयता. आतां आयुश्यांत उलथापालथ जावपाची उरना. जावपाची ती जाली. आतां कोणाचेंय तोंड पळयलें म्हूण फरक पडचो ना. विशय आयलो म्हणून सांगता. लग्ना आदीं सालांत न्हिदिल्लें कडेन उठ्ठना दुसरे कुशीर उठलों आनी म्हजी नदर सर्वपल्ली राधाकृष्णनाचे पायजेलार पडली. त्या दिसा म्हाका प्रॉव्हिदोरियां सोतीर दोन रुपया लागले. शिक्षक दिना दिसा शाळे खातीर सर्वपल्ली राधाकृष्णनाचें पायजेल मेळना म्हणून आमी तें सांबाळून दवरला. तुमचे म्हायती खातीर राधाकृष्णनाचे पायजेलाचेर नदर पडल्यार सोतें फुट्टा म्हण खूब जाणांच्या घरनी आतां तांचीं पायजेलां लागतलीं हें हांव जाणां. आतां सोतीं कोण काडीनांत पूण कॅमिलेंत वतना ताचेर नदर मारूं येता. सोड. ज्या मनशाचें सदां तोंड पळोवचें पडटा त्या मनशा कडेन आमी सहजा वायटपण घेवंक वचनात. आमच्या वाड्यावयल्या बायलाचें आनी आईचें केन्नाय वाजतालें. तेन्ना ती बायल 'तुजे कडेन कोत्रसाण करून खय वतलीं आतीबाय? मेळोंया खातीर आमका तुजेंच तोंड पळोवपाक जाय' अशें म्हणून तीं पडिल्लें तोंड घेवन घरा वतालीं. नेवटन नाम् ग्वथ करतना आपलो 'Nuisance Value' आयकून मुमुख्योंनी हासतालें. आमका आमच्या आनी दुसऱ्याच्या एका तोंडाचो इतलो त्रास जाता जाल्यार रावणावरी धा तोंडां आशिल्लीं जाल्यार आमचें कितें जावपाचें, असो प्रस्न आमकां ल्हानपणांत पडटालो.

''गुरूजी, आम्हाला रावणावरी दहा तोंडे असती तर खूब मोठा अनर्थ झाला असता. माझे सगळ्या ऋतुंत नाक व्हावत असते. मला दहा नाक पुसावीं लागलीं असती.' आणि तुम्हाला दहा नाकांत पूड आणी दहा तोंडांत विड्री कोंबावी लागली असती दलान एकदां पाटील गुरूजींक म्हणिल्लें. पाटील गुरूजीन, 'हत् लेका' अशें म्हणून मायेन ताचे फाटीर धुमको घालो.

मनशाक तोंड दिलां तशें निर्मात्यान जनावरांक, सुकण्यांक हांकाय तोणे तोंडा दिल्यां. रुद्राक्ष हें फळ हाका लेगीत तोंड आसता. ताका आमी मुख अशें म्हणटात. रुद्राक्षाक ताचे तोंडाक लागून महत्व प्राप्त जालां. हाच्या परतें आमी आमचे तोंडाक लागून सगलें वगडायतात. रुद्राक्षाक मनशा वरीच खरे आनी फट अश्यो दोन कातेगोरी आसतात. मनशावरीच तांचीय पारख करप सामकें गरजेचें. हे खातीर रुद्राक्षाक उदकांत घालचो पडटा. खरो रुद्राक्ष रोखडोच बुडटा नकली उदकाचेर उफेता. पेवपाक येता तो मनीस उदकार उफेता आनी मडेंय उदकार उफेता हाका लागून मनशाची परिक्षा ताका उदकांत बुडोवन जायना. रुद्राक्षाचे मुखाप्रमाण ताचे फायदे आसतात. रुद्राक्ष एक मुखी ते चौदा मुखी आसता अशें शिकेरकर गुरूजीन आमकां सांगिल्लें. लग्ना उप्रांत खूब दीस जाले तरी आमच्या संवसाराच्या वेलीर फूल फुलें ना म्हण आई म्हाका घेवन शिकेरकर गुरूजी म्हऱ्यात गेल्ली. शिकेरकर गुरूजीन आमका एक ते चौदा मुखी रुद्राक्ष दाखोवन आमका ताचे फायदे सांगले. बाकीबाबान मुंगटाचो रोस करपाक बिमला फेदासून हाडिल्लीं तशें गुरूजीन हे नेपाळच्यान फेदासून हाडिल्ले. शेवटीं आईन म्हजे खातीर सः मुखी रुद्राक्ष घेंवचो अशें थारयलें.

'हा सहा मुखी रुद्राक्ष कुष्ठरोग, नपुंसकता, मूतखडा आणी मूत्र रोग इतर आजारा साठी प्रभावी आहे'

अशें शिकेरकर गुरूजीन आमका सांगिल्लें. आईक म्हजे खातीर होच बेस्ट दिसलो. तिणें सयशीं रुपया (तेन्नाचे) दिवन तो घेतलो. सोड. देवळांत भितर सरतना दरवट्या वयर आमका आनीक एक मुख दिश्टी पडटा ताका कितींमुख अशें म्हणटात. महादेवान जलंधर राक्षसाचें तोंड देवळा भायर बसोवन देवळांत येवपी आमचे सारकेल्यांची पापां खावपाची वेवस्था केल्या अशें पुराणांतली एक काणी सांगता. हाचो अर्थ तुमी पापां करतात तीं कितींमुख खातलो अशें न्हीं. हें कलीयुग तुमचीं पापां खावन ताका अजिर्ण जांव येता. म्हणून तुमी तुमचे पापाचेर नियंत्रण दवरचें ही नमळायेची मागणी.

आमी तोंडाचो उपेग खावपाक आनी उलोवपाक करतात हें हांवें तुमकां सांगलाच. आज देशांत आमी कितें खावचें हें थारावपी तयार जाल्यात. कितें खावचें हें दर एकल्याचेर निबून आसता हें म्हजें मत. हांव नाश्त्यांत सदां घवं भाज्येक लावन चपाती खाता म्हण सगल्यांनी हांच नाश्तो करचो अशें हांव म्हणूंक शकना. पुणून तोंडान कशें उलोवचें आनी कितें उलोवचें हें आमका आमची माऊली सांगता आनी सोंपे भाशेंत सांगता,

*'विरोधू वादबळु प्राणितापढाळु उपहासु छळु.*
*वर्मस्पर्शुआटु वेगु विंदाणु.*
*अशा शका प्रतारणु*
*हे संन्यासिले अवगुणु जिया वाचा*
*तैसे साच आणि मवाळ*
*मितले परि सरळ*
*बोल जैसे कल्लोळ*
*अमृताचे'*

माऊली सांगता म्हणून तरी आयकात!

संपर्क : 9850530756

***

# पुरण - एके पुर्विल्ल्या कृशी-संस्कृतायेची शोकांतिका!

सखाराम शेणवी बोरकार

कोंकणी साहित्याच्या मळार हालींसराक कांदबरी ह्या साहित्य प्रकाराक बरोच फुलोर आयला. वेगवेगळ्या विशयांवेल्यो कांदबऱ्यो उजवाडाक येतात ही एक बरी गजाल. हालींच डॉ. प्रकाश पर्येंकाराली 'पुरण' ही कादंबरी उजवाडाक आयल्या. सत्तरीच्या समाजवेवस्थेचेर भाश्य करपी ही कोंकणी वा मराठी भाशेंतली पयलीच कादंबरी.

पुरण आनी कुमेर शेत कसोवप ह्यो दोन कृशी संस्कृती दोंगर आनी न्हंयचे कुशीक राबितो करपी लोकांचें उपजिवीकेचें सादन. जशीं बाकीच्या गोंयच्या वाठारांत आसात तशीं ह्या लोकांक सैमान शेकानशेक शेतां दिवंक नात. पावसाळ्यांत कुमेर शेत कसोवप आनी गिमांत पुरण शेत कसोवप. खूप कश्टाचीं कामां हीं. एका काळार फकत एक घराबोच न्हय तर एक परस चड घराबे एकठांय येवन ही शेती कसताले.




पुरण ही कादंबरी ह्या पुर्विल्ल्या शेत संस्कृतायेचेर भाश्य करता. उदका पुरवणेखातीर जीं म्हादय न्हंयचेर ल्हान ल्हान धरणां आनी बांधारे बांदले तेखातीर पुरण शेतांची सगळी जमीनच पोंदा गेली आनी तेच वांगडा गोंयांत उबीं जाल्ल्या काँक्रीट जंगलांक रेंवेची पुरवण करपाक म्हादय न्हंयच्या पात्रांत रेंव काडपाक सुरवात जाली. न्हंयचो प्रवाह बदललो, कोंडी पुरपाक लागल्यो आनी आशिल्ली नाशिल्ली पुरण शेती कसपाची आस्तय सोंपली. ह्याच वांगडा ही आमची पुर्विल्ली शेती संस्कृतायूय बी.

लेखक हो कृशी संस्कृतायेंत वाडिल्लो. पुरण शेतीची सगळीं आंगा ताणे आपल्या दोळ्यांनी पळयल्यांत, शेतकारांवांगडा काम केलां. ते खातीर पुरण हो विशय कादंबरी खातीर घेवपाचो हें डॉ. प्रकाश पर्येंकारच करुंक शकता.

पुरण ही कादंबरी लेखकाच्या 'काजरफळ' ह्या कथेच्या बिजाचो आशय आनी विस्तार आसा. गोंय सुटके उप्रांतच्या म्हळ्यार १९८० वर्सा उप्रांतच्या काळाचें वर्णन ह्या कादंबरींत येता. म्हादयच्या तडीर आशिल्ल्या पणसुल्या गांवांत हें कथानक घडटा. ह्या कादंबरींतलीं मुखेल पात्रां म्हळ्यार रगलो आनी बायुलें तांची दोन भुरगीं सुरंगी आनी सदा, थापादादा आनी ताचो चलो गणबा आनी नातू चंदन ह्या दोन घराब्यां भोंवतणी ही कादंबरी घुंवता.

ही कादंबरी म्हळ्यार रगलो आनी बायुले हांच्या जिवितांतल्या संघर्शाची काणी, थपादादा आनी गणबा हांच्या कर्तृत्वाची काणी आनी सुशिक्षीत तरण्याट्यांमुखार एक आदर्श दवरपी चंदनाची काणी.

ह्या कादंबरींत म्हादय न्हंय हें एक पात्र जावन येता. रेवेंचे उत्खनन, न्हंयचे तडीर आशिल्ले जमनीचेर थळाव्या लोकांनी केल्लें आक्रमण, काँक्रीटाचे बंधारे बांदपाचे प्रक्रियेंत तडीवयल्या झाडांची जाल्ली कत्तल अश्या पर्यावरणीय प्रस्नांचेर ही कादंबरी भाश्य करता.

ह्या कादंबरींत पुरण शेती विशीं सगळ्यो बारिकसाणी आमकां दिश्टी पडटात. जायत्या वाचप्यांक पुरण शेतीविशीं कांयच खबर नासतली. पुरण ही कादंबरी पुरण शेतीचें Documentation करता. तिचें नानपयत जावप हाचे खातीर आमच्या संस्कृतायेचें एक आंग गळून पडलां हातूंत दुबाव ना.

ह्या कादंबरींतलीं वर्णनां खूपच प्रभावी जाल्यांत. तीं वाचप्याक खूपच भावतात. कांदबरीचो flow दवरपाक हाचो खूप बरे तरेन उपेग जाला. ह्या कादंबरीचें एक खाशेलेपण म्हळ्यार ह्या कादंबरींत आयिल्ली सत्तरी वाठारांतली कोंकणी आनी तिचें गिरेस्त दायज! ह्या कादंबरीचो आस्वाद फकत कांय उतरांनी घेवप शक्य ना. ह्या कादंबरीचो सुवाद घेवपाक ही कादंबरी मुळांत सावन वाचपाक जाय. एका पुर्विल्ल्या नानपयत कृशी संस्कृतायेची जावपी वळख घडयली म्हण हांचे उपकार!

ही कादंबरी सदांच दर्जेदार साहित्य उजवाडाक हाडपी बिम्ब प्रकाशनान उजवाडाक हाडल्या. ह्या कादंबरीचें मुखपृश्ट चनवड महाराष्ट्र हांगा सरले विष्णू थोरे हांणी काडलां आनी तें खूप सुंदर आनी समर्पक जालां. भितरलीं रेखाचित्रां गुरूदत्त वांतेकार हाचीं आसात.

कोंकणी सरस्पतीच्या गळ्यांत पुरण कांदबरीचे रुपान एक घसघशीत हार घालो म्हण लेखक डॉ. प्रकाश पर्येंकार आनी प्रकाशक दिलीपबाब बोरकार हांका परबीं!

**पुरण** (कादंबरी)
**डॉ. प्रकाश पर्येंकार**
बिम्ब प्रकाशन
पानां: २३२
मोल: २०० रुपया

संपर्क : 9923306751

***

# कविता

## नार्ते

माधव बोरकार

दिसता एक जुंवो म्हर्जेच नांव काय तें
केन्ना तरी शेणिल्लें आमचें शेणिल्लें नार्तें
सादता काळजांत पल्लडची पावलट
फांकता तशी दोळ्यांत जल्माची फांतोड
म्हज्यांतलो हांव वता तेन म्हाका विसरु
चंवरता हांगा थंय तुज्या आसपाची खूण.

संपर्क: 9420222876

***

## ब्रह्मकमळ: शंकर रामाणी

परेश नरेंद्र कामत

शंकर बाब,
तुमचे कडेन म्हजो पत्र-संवाद
सामको दाट
रान कसो घनदाट
एक दशकभर
ह्या चिटयांच्या रानांत हांव
वेतिश्ट भोंवलों हेडलों सपनेलों धावाळ्ळों
उज्यांतल्यान
भांगर कसो तर्जून आयलों

शंकर बाब,
तुमचो सभाव उकतो
कसलीच भीड मुर्वत ना धरपी
तुमच्याच म्हणण्या प्रमाण
बरोचसो कोड्डी
तापट
तिरसुवाद
तिरसट आनी मिश्कील
केन्ना शेंपो फुलोवन
पावसांत थूव थूव नाचपी मोर
तर केन्ना
वाग कसो चवताळून आंगार पुरी यालपी...

तुमचे नदरेन
'कवितेची साधना म्हळ्यार
रानांत वचून
वागिणीचे थोलींत रिगून
खासा वागिणीचें दूद काडपा इतली
कठीण गजाल.'
हॉटेलांत बसून 'सिंगल' मारपा इतली
ती सोंपी गजाल समजुपी
अर्दा पांखान मोर जाल्ले कवी
तुमकां ना पसंत.

शंकर बाब,
तुमकां वेंटाळून आसतालो रात-दीस
नवे कवितेचो ध्यास
आनी हो धगधगतो ध्यास घेवन
तुमी तळमळटाले, अस्वस्थ जाताले.
Inner pain,
Inner troubleच्या तापत्रयाचो धग
तुमी भितल्ले भितर सोंसताले भोगताले.
तुमी पोसलें काळजाच्या गर्भागारांत
अणभवाचें रसरशीत जोगलांचें झाड
आनी त्या जोगलाच्या झाडाच्या सांगातान जळटना,
हुलपतना
तुमकां स्फुरत रावल्यो
ब्रह्मकमळा सारक्यो कविता.
तेज:पुंज तेजस्वी तेजोमय.
तुमी केली प्रामाणिकपणान
आयुश्यभर कवितेची साधना
सोळा सोमाराच्या व्रता सारकी
हाताच्या तळटार जळटे इंगळे घेवन
आनी जाले कवितेचे नम्र साधक
केन्ना आळयत रावले तुकारामा भशेन :
तुका म्हणे होय
मनाशी संवाद
अपुलाची वाद
आपणाशी
तर केन्ना
Vincent Van Goghच्या
सुरांत सूर मिसळून-
Rather one begin to see
more and more clearly that
life is only a kind of sowing time
and the harvest is not here...
म्हणत चलत रावले तुमी
आपली प्रिय सखी कवितेच्या सांगातान
खूब पयस मेरेन
आपले जिणेच्या अंता मेरेन...

संपर्क: 9422640210

***

## तुफान

ग्वादालूप डायस

देवा!
ह्या तुफानांत...
वारो फडफडलो
सैम धडपडलो
झाडां पडलीं
घरां मोडलीं
ल्हारां खर्शेलीं
सुकर्णी निर्शेलीं
गुलमोहर झडले
कवळ तोडले
भाटां पाडलीं
खावटीं वाडलीं
मळब पेटलें
नातें तुटलें
मात...
रागाचो उजो
आपस्वार्थी दोंगर
भ्रष्टाचाराचो दर्या
कुस्केपणांच्यो बांयो
दुस्मानकायेचीं दुर्गां
अहंखारी खिळे
गरिबीचे वळ
अनितीचे बांदपास
फटींचे पूल
नागोवण्यों बुनयादी
चाडयाळी जिबो
वखवखपी नदरो
जातींचो भेदभाव
धर्मांचे वांटे
सगळें आशिर्ह्लें
तशेंच उरलां...!

संपर्क: 9922561568

***





## वय

दीपक गोविंद प्रभू देसाई

वर्सां कितलीं म्हाका
हें हांव गेलो सोदपाक
जल्म सोंपलो
पूण वर्सां सोंपली ना.

एक सेकंद
म्हणजे एक क्षण काय किर्ते?
म्हजे वय
म्हणजे कितलीं वर्सां?

म्हजेकडेन
एक गजाल आसा
सांगपाक गेलों
काय तिसरेंच
किर्तेतरी जाता
त्या गजालींची
जाता
एक काणी

तूर्जे वय
आनी म्हर्जे वय
मेळून
हे कवितेर्चे
वय

हांव आनीकुय
बरोवपाक सोदता
म्हाका येता
बेरीज आनी वजाबाकी
आनी
कवितेचो गुणाकार

संपर्क : 8605540750

***

## वाती

आर. रामनाथ

हांवें म्हज्या फोंडार वाती पेटयल्यात
तुका कापाझदाद आसा जाल्यार
तूं त्यो पालोवन दाखय
हांवें म्हजो काळोख पयस केला
तूं तुजो काळोख प्रशस्त कर
नाजाल्यार तूं तुका नखशिखान्त पेटय
आनी उपरांत म्हज्या फोंडार थय थय नाच
बोब मारीत ...

संपर्क : 9850458763

***

## हांवपण

भुवनेश शान्ताराम

तुगेले हांवपण उखलून व्हर रे मनशा
आनीक तुजे घर स्थीर जावन दवर
तुगेल्या कुटुंबाचे उचारि आसा
देवु मात्र
तव्वळ तुगेले होडपण उडय आनीक घराचि रांदन जळोवन दवर

तुगेल्या परिवारांची भूक तुज्या हांवपणा परस व्हड आसा
पूण ती भूक शीत आनी रांवदई खावनु तृप्ति पावतली

तुगेल्या धूवेले दुख्ख
तुज्या थंडायेन जाता
पूण ते दुख्ख तुज्या मोगान निवळण जातलें

तुज्या बायलेलो अश्रु दुख्खाची नदी
जी घराच्या कोनशांतु व्हाळ्नु वता
तुगेले घर एक जुंवो जालें
तुज्या अज्ञानाक लागून आकार जल्ला

तुगेले हांवपण उखलून व्हर रे मनशा
आनीक तुज्या परिवारा कडे सकून माफी निमगी।

संपर्क: 7358594796

***

